


# जावंय आयले चलत

(दोन अंकी विनोदी कोंकणी नाटक)

नामदेव गणपत सुर्लीकार



बिम्ब
प्रकाशन








**प्रकाशक** / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
**दूरध्वनी** / (०८३२) २४३८३५५.
**प्रकाशन क्र.** / १२८. **अक्षर जुळणी** / बिम्ब प्रकाशन.
**छापणावळ** / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

**पयली आवृत्ती** / फेब्रुवारी २०१७.
**मुखपृश्ठ** / गिरीश नंदा बोरकार
**जावंय आयले चलत** (नाटक) नामदेव ग. सुर्लीकार
Janvai Aaile Chalat (Drama) *by Namdev G Surlikar*
**मोल** : रु. १२०/-




**ISBN :** 978-93-85654-16-9


**लेखकाचो नामो**: नामदेव गणपत सुर्लीकार, देवूळ वाडा व्हडलें भाट, सांताक्रुज गोंय. **फोन**: ९८२३८८९५८५

*म्हजी सर्गेस्त आवय*
*पार्वती ग. सुर्लीकार*
*हिच्या पांयार*
*हें म्हजें दुसरें पुस्तक ओपतां...*

# मनोगत

लेखक हो विचारांनी भरिल्लो एक बुदवंत म्हूण कांय लोकांच्या तोंडांतल्यान आयकलां. त्याच बुदवंत विचारांनी हांवय बरयत गेलां. मागीर तातूंतल्यान एक विचार नाटकाच्या रुपांत निर्माण जाला. इल्ले इल्ले विचार मांडीत हांव कागद रंगयत गेलां. लेखकान रंगयल्लें कागद नाट्य मोगी मेरेन पावोवपाचें काम नाट्य कलाकार आपलो अभिनय करुन बरे भशेन नाट्य मोगींच्या काळजांत जागो तयार करता. उतरांनी हांसयता, रडयता. बरे तरेन लोकांचो सांगात मेळत वता तेन्ना लेखकांक आनीकूय उमेद येता. मागीर तो नवो लेख, नवीं नाटकां बरोवंक बसता. जण एका पावंड्यार वेगळोच अणभव मेळटा. तातूंतलें म्हजें दुसरें नाटक 'जावंय आयले चलत' तयार जाल्लें आसा. ह्या नाटकांत एक कुटूंब, आवय बापूय आनी दोन चलयो लग्नाचीं जाल्लीं आसात. आवय बापायक चिंता लागून गेल्ली आसता ती दोगांय भुरग्यांच्या लग्नाची. घरांत दोन कुडी बेकार पडिल्ल्यो आसात त्यो भाड्याक दिवंच्यो अशी आवयचे तकलेंत आयडीया येता. मागीर जावंय आयले चलत एक नाटक घडटा. हांवें म्हजे विचार कागदाचेर बरोवन विनोदी नाटक वेगळ्या रुपांत तुमच्या मुखार मांडलां. म्हजे हे नाट्य कृतीक नाट्य मोगी आपणायतले अशी आस्त बाळगितां. देव बरें करूं...!

– नामदेव गणपत सुर्लीकार

देवूळ वाडो,
व्हडलें भाट, सांताक्रुज–गोंय.

## नाटकाचो पयलो प्रयोग

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग श्री सातेरी माया देवस्थान हे संस्थेन ३०/०४/२०१६ दिसा चिंबल हांगा सादर केलो.

## पयल्या नाट्य प्रयोगाचे मानकरी

| | |
|---|---|
| **लेखक/दिग्दर्शक:** | नामदेव गणपत सुर्लीकार |
| **निर्मिती प्रमूख:** | काशिनाथ कवळेकार |
| **आवाजा येवजण:** | निलेश शिरोडकार |
| **उजवाडा येवजण:** | योगेश काणकोणकार |
| **नेपथ्य:** | कपिल च्यारी |
| **रंगवण:** | सुनिल कोरगांवकार |
| **न्हेसवण:** | तनुजा काणकोणकार, चंद्रीका काणकोणकार |
| **माची मांडावळ:** | श्री नामदेव ग.सुर्लीकार |

## माचयेवेले कलाकार

| | | | |
|---|---|---|---|
| राम | : प्रेमदिप काणकोणकार | श्याम | : हेमंत काणकोणकार |
| शांता | : निता कुर्टीकार | बेबी | : सुचिता कुर्टीकार |
| बाबलो | : दिपक काणकोणकार | माधुरी | : मंगेश काणकोणकार |
| तुकाराम | : लितेश काणकोणकार | पार्वती | : करण खोलकार |
| काशिनाथ | : मुकूंद मंगेशकार | रघुनाथ | : देवानंद काणकोणकार |

## माचये फांटलो आदार

कल्पना कामत, शेलढन मार्टींन्स, शेलढन मिनेझीस, सुनिल पालकार, दत्ताराम बालेकार, राजू काणकोणकार, जॉकी आरावूज, सुनिल कोरगांवकार, हर्षद सुर्लीकार, सुदेश सुर्लीकार, रीतेश सुर्लीकार.

# प्रस्तावना

नामदेव गणपत सुर्लीकार हाणें पिरायेच्या धा बारा वर्सांचो आसतना इतिहासीक नाटकांनी कामां करपाक सुरवात केल्ली. तीं नाटकां ताच्या घरा मुखार जातालीं. मागीर हो नामदेवबाब स्कुलांत सातवेक आसतना ताणें पयलें नाटकुलें बरयल्लें ‘मराठी बापूस’. स्नेहसंमेलनां स्कुलांत जातालीं त्या वेळार तो स्नेहसंमेलनांत वांटेकार जातालो. तसोच खेळांतय हुशार. क्रिकेट, फुटबॉल आनी व्हॉलिबॉल खेळटालो. गोंयच्या पंगडांत अंडर १९ गोंयां भायर खेळ्ळा. अखिल भारतीय सर्तींत तो गोंय पंगडाक खेळ्ळा. नामनेचो एक बरो खेळगडो म्हूण लोक ताका वळखतात. खेळ सुरू आसतना लेगीत ताणें आपलें बरोवप चालूच दवरलें. तातूंत लोक ताका वळखतात ते ताणें दोन अंकी मराठी नाटकां तशेंच कोंकणी नाटकां बरयल्यांत आनी दिग्दर्शन केलां म्हूण. हांवेन ताचें एक नाटक पळयल्लें तें ताणें दिग्दर्शन केल्लें. तें म्हळ्यार ‘पांढऱ्या साडीचं जिवन’ एके विधवा अस्तुरेच्या जिवनाचेर आधारीत आशिल्लें.

खऱ्यांनीच हांवेन त्या वेळार हाका पारखिल्लो. हो नामदेव बाब एक ना एक दीस व्हड कलाकार जातलो. आयज ताचीं दोन कोंकणी नाटकां पुस्तकांच्या रूपान तुमच्या मुखार उजवाडाक येतात. बिम्ब मासिकांत तो कविता बरयता. भांगरभूंय ह्या कोंकणी दिसाळ्यांत ताच्यो कविता, लेख आयज आमकां वाचपाक मेळटात. नामदेव सुर्लीकाराचीं चड फामाद जाल्लीं दोन कोंकणी नाटकां म्हळ्यार 'स गुणांचीं बायलां' आनी दुसरें 'जावंय आयले चलत'.

तकलेंत याद उरलां तें एक कोंकणी नाटकुलें, 'शेजाऱ्याच्यो पाड्यो बुद्दी'. अशीं आनीकूय कांय नाटकां, नाटकुलीं उजवाडाक येवचीं आसात. उरिल्लीं ताचीं कामा देवान पुराय करचीं. ताचो हो वावर फुडें व्हरपाक ताका बरें आरोग्य दिवचें अशें हांव देवा लागीं मागतां.

**– दत्ताराम बालेकार**

# जावंय आयले चलत

## अंक पयलो

### प्रवेश पयलो

पड्डो वयर सरता तेन्ना बाबल्याचो बंगलो दिसता. गायत्री मंत्राचो आवाज येता. वेळ सकाळचो आठ साडे आठ. बाबलो भायर येवन तुळशीची पुजा करतना दिसता. तुळशीक प्रदक्षणां घालतना मंत्र म्हणपाची बाबल्याक संवय आसता. आंगणांत एका कोनशाक तुळस आनी फाटल्यान बांय दिसता.

बाबलो : पयलें प्रदक्षण द्वारकेच्या नारायणाक. दुसरें प्रदक्षण जिवा आनी शिवा सांबाळ रे देवा केशवा. तिसरें प्रदक्षण तिनूय गुणां खातीर नाका करिनाका कष्टी. चवथें प्रदक्षण सत्य गूण, सत्यनारायणाक मनापासून. पांचवें प्रदक्षण पांच पांडवांच्या आवय बापायक आनी पुर्वजांक नमस्कार! तुळशी माते, पांच प्रदक्षणां घालून जालीं म्हजीं. आयज तरी मटको लागल्यार पुरो गे सायबीणी. आयज मटको लागल्यार फाल्यां दोबरादान प्रदक्षणां घालतां.

मेज्जून धा फावट. (भितरल्यान आयदनांचो आवाज येता. उलयता उलयता कपडे बदलता.) कळ्ळें, कळ्ळें गे बेश्टीच आयदनांचो आवाज करूं नाका. जालें म्हजें न्हावन धूवन, देव पुजा करून. तुळशीक गंदफुल प्रदक्षणां लेगीत घालून जालीं. आगे आयकता मगे? म्हजें तोंड धूवन जालें हां. कानांत गुड्डे घातल्यात दिसता कापसाचे! एके वटेन पयलीच भेरी. चूल फूंक म्हणल्यार कान फुंकता.

शांता : (रांदचे कुडिंतल्यान उलयता) गुड्डे-बुड्डे कांय एक घालूंक ना. आयकला तुजो उलो. हें आनी मरता येवन पायांकडेनूच. बरें सापडलें सवंग सारकें.

बाबलो : कितें म्हणलें गे? सवंग हांव? हय!

शांता : (भितरल्यान) तुमकां न्हय तें.

बाबलो : मागीर कोणाक तर? घरांत आनीक दुसरो कोण आसा? हांवूच घरांत सवंग. म्हाकाच म्हण्टा आसतली.

शांता : तुमी आनी कितें उलयता! माजरांचेर आड्डुतालीं हांव.

बाबलो : केन्ना बुकलो जायत! आनी केन्ना माजर जायत हाचो मात नेम ना. च्या पडटली म्हज्या ताळ्यार?

शांता : हाडटां. मात्सो थारो धरात!

बाबलो : (बाबलो फोनाचेर उलयता) नंबर कितलो आयलो तुकाराम? हां डब्बल चार! चार तीन न्हय? चार तीन आशिल्लो म्हजो. आसूं रे पाड पडूं त्या मटक्याचें.

शांता : (शांता प्रवेश करता) च्या घेयात. (बाबलो च्या घेता.) दीस-रात मटक्या खबरो. ओपन कितें आयलो तुकाराम, क्लोज

कितें घट्ट रे?

बाबलो : (च्या पियत) टाइम पास गो, मटको खेळून लागलो जाल्यार लागलो, नाजाल्यार नाचलो वाकडो.

शांता : नाचात नाचात नंदी बैला सारके पांय वरशे करुन नाचात. सोबून दिसता घोव म्हजो.

बाबलो : आगे ह्या जाण्टेपणार नाचून-नाचून भेंड मोडून घेवपाचें ना म्हाका.

शांता : भेंड तुजें मोडच ना! तशें तुमी लोखणां खांबो.

बाबलो : जाल्यार ह्या जाण्टेपणार आमच्या सारकेल्यान करचें तरी कितें म्हण्टा? हांऽ (हांसत) माळयेर न्हिदचे कुडींत या म्हण्टा व्हय?

शांता : माळयेर न्हिदचे कुडींत? खंय आयला फेस्ताक? तुमी कांयच करूनाका. म्हज्योच चलयो न्हय त्यो. तुमकां खंय पडलां भुरग्यांचें.

बाबलो : आगे आगे कितें हें उलयता तुका सोबता गे? हांव तांचो बापूय बाबलो द ग्रेट. आनी त्यो म्हज्यो चलयो. चलयो द ग्रेट.

शांता : जाल्यार! तुमी कित्याक कान हालयनात तर?

बाबलो : हातूंत कानांचो कितें संबंद गे? दोळो हालता तो पुरो जायना?

शांता : तुजो दोळोच न्हय, सगळेंच हालत म्हूण भंय. लग्नाचो विचार करूंक जाय आतां.

बाबलो : लग्नाचो विचार हे पिरायेचेर, परत हनीमुनाक वचपाचो विचार आसा काय कितें?

शांता : हनीमून सोडात आनी आदीं लग्नाचो विचार करात.

बाबलो : लग्नाचो विचार? पूण लग्न कोणाचें?

शांता : कोणाचें म्हणचे? तुजें. तुमकां आतां कोम फुट्टात न्हय. आजूनय दिसपा इतले जाण्टे खंय जाल्यात तर तुमी?

बाबलो : (हांसता) चली पळयल्यात मगे...?

शांता : (हांसता) हय हय ते आन्टीली मोठी जाण्टी धुकन आसा आंकवार...!

बाबलो : तुज्या परस जाण्टी न्हय मगे ती?

शांता : फकांडां पुरो करात.

बाबलो : आगे रागार बी जालीना मगे, रागार बी जावशी. यो हांगा बस शांते. कितें आसता जाणा, हे जाण्टे पिरायेचेर फकांडां करून दीस सारूंक जाय.

शांता : हय, व्हय. तुमी दीस सारात आनी हांव चूल सारतां. माधुरी आनी बेबीक ह्या म्हज्या दोनूय धुवांक कितें सारूंक लावं?

बाबलो : संवसार.

शांता : संवसार तो जालोच. पूण कोणाकडेन? चलो भुरगो जाय न्ही. हां त्या पांडुरंगालो मदलो चलो इंजिनीयर आसा.

बाबलो : कोण गे पांडुरंग? म्हाका कांयच याद ना.

शांता : कशी आसतली याद तुमकां? मटक्या फुडें. हांव सांगता तें त्या मडगांवच्या प्रफुलाच्या घोवाचें, पांडुरंगाचें!

बाबलो : हां, हां मडगांवचो पांडुरंगबाब.

शांता : हय, हय मडगांवचो पांडुरंगबाब.

बाबलो : पूण शांते! आमच्या दोगांय भुरग्यांले न्हंवरे बी ना मगे?

शांते : हें आनी कितें उलयता! विस्वास ना तुज्या दोगांय भुरग्यांचेर?

बाबलो : तशें न्हय गे. हावेन सहज विचारलां गे. मागीर फुटाफुट पडूंक

नाका म्हूण, आतांचीं भुरगीं धड!

शांता : तेंय बी सारकें हां! विचार करूंक गेल्यार, करुंक वचत एक आनी घडत दुसरेंच. आमच्या वेळार आमी रेडियो लावपाक सुध्दां भियेतालीं. आतांची पिळगी देवा..देवा..देवा रामारामारामा

बाबलो : देवा, देवा..देवा? घोवा घोवा करता. रोखडींच नेटां बेटां whatsapp, facebook ओपन करता.

शांता : आतांचें सगळेंच फास्ट जालां. जगा वेगळेंच. आमच्या वेळार कशें आसतालें, चोरून पळयतालीं बारीक नदरेन. मागीर कोणीय लाइन दिली जाल्यार दिली, नाजाल्यार काळजांतल्यान भिलीं. अशी गत जावन पडटाली आमची.

बाबलो : शांते, तुका सगळ्यो यादी आसा मगे त्यो. असोच पावस पडटालो! आनी त्या दिसा तूं सत्री हाडपाक विसरलेली! तुका दिसतालें म्हजेकडेन सत्री मागची म्हूण. पूण तुवेन मागलीना, पूण म्हाका तुज्या मनातलें कळ्ळें, आनी हांवें म्हजी सत्री तुकां दिली. याद आसा मगे?

शांता : हय त्या दिसा म्हज्या मनाचेर विचित्रसो परिणाम जाल्लो आनी हांव तुज्या मोगांत पडलीं. आमी बऱ्यांतलो बरो संवसार केलो.

बाबलो : हय गे शांते तूं सांगता तें खरें. म्हणून देवान आमच्या पदरांत फुलां सारकीं दोन भुरगीं फटाफट जल्मांक घालीं.

शांता : पुरो करात आतां चडूय रोमॅन्टीक जायनाका. हांव म्हण्टां आमचे दोन रुम खाली पडिल्ले आसात. ते रुम भाड्याक दिवया त्या तुकारामान दिल्यात तशे.

बाबलो : बरें आसा. आतां फोन करून तुकारामाक पयलें सांगतां.

शांता : ताका शें?

बाबलो : आगे पयरूच उलयतां, उलयतां गजाल आयली. रूम दिता काय विचारतालो भाड्यान.

शांता : कोणाक जाय तर. तुकारामाक?

बाबलो : तुकारामाक न्हय गे.

शांता : मागीर! कोणाक तर? असल्या तसल्या फालतुरांक हाडश्यात!

बाबलो : तुकारामान खंय दवरल्यात फालतू भाडेकार! तुकारामाच्या कुडिनीं एकटो बँक मेनेजर आनी दुसरो L.I.C ऑफीसर आसा.

शांता : आयजकाल रूम भाड्याक दितना विचार करूनूच दिवचो पडटा. कोण कसले मनीस आसता ते कांयएक सांगू नज.

बाबलो : तूं कांयच भियेनाका. तें सगळें तुकारामबाब पळोवन घेतलो. चल हांव मात्सो बाजारात वचून येतां.

शांता : पूण लग्नाचो विशय अर्दवट उरलो.

बाबलो : बाजारांत वचून आयल्या उपरांत उलोवया. (दाराकडेन वता)

शांता : मटके आनी तुमी. वचात चलात. बेबी येवचो वेळ जालो आतां.

बाबलो : तुका कितें हाडूंक जाय आसलें बाजारांतल्यान?

शांता : येतना म्हाका मोगऱ्यांची एक फांती घेवन येयात.

बाबलो : एकूच पुरो? काय दोन हाडूं गे?

शांता : दोन कोणाक त्यो?

बाबलो : दोन नाका म्हण्टा! बरें आसा.

शांता : एक तसलें पार्सल करुन घेवन येयात.

बाबलो : पार्सल? कसले पार्सल?

शांता : गरम गरम मसालो लायिल्लो मको.

बाबलो : आवय्यस! रुची बऱ्यो येतात मगे तुका. पूण हांव हाडटा म्हणसर थंड जातलो मगे तो. तेपरस तूंच म्हज्या वांगडा यो मगे बाजारांत. दोगांय मेळून गरम आसतनाच ताका खावया.

शांता : हय न्हू! तशेंच केल्लें बरें.

बाबलो : चल तर या. (दोगांय भायर गेल्या उपरांत माधुरी तांदूळ वेंचीत प्रवेश करता. तेन्ना बेबी दनपारच्च्या दोन वरांचेर कॉलेजिंतल्यान येता.)

बेबी : (भायल्यान) मम्मी मम्मी ओ मम्मी (प्रवेश करता. दाराकडेन रावन फ्रेंडांक चाळयता. माधुरीक पळोवन) दिदी, दिदी मम्मी गो.

माधुरी : बेबी आयलें तूं? कितें जालां गो?

बेबी : दिदी मम्मी खंय आसा गो?

माधुरी : भायर गेल्या आसतली पप्पा आनी मम्मी. तोंड सामकें काळसूट करून आयलां मगो. चल भितर वच आनी फ्रिजांतलो फालुडा पी.

बेबी : दिदी.. सगळे भुरगे म्हजीं फकांडां करतात. बाबऱ्या वोंठांचें म्हण्टात. नाका आशिल्ल्या उतरांनी चाळयतात.

माधुरी : बेबी, तूं अशें कशें वोगी रावता तर. तुवेंय म्हणपाक जाय काळ्यांनो, खापऱ्यांनो.

बेबी : पूण दिदी ते सगळे दिसपाक गोरे गोरे पिट्ट आसात.

माधुरी : गोरे, गोरे पिट्ट आसा? मागीर तूं दुसरें म्हण तिरशे नदरेचे.

बेबी : दिदी तिरशे नदरेचे म्हणून कांयएक फायदो जावचोना. कारण सगळ्यांचे दोळे गरुडा सारके मोट्ठे आसात?

माधुरी : अशें! बेबी तशें जाल्यार तूं एक काम कर.

बेबी : कसलें गो दिदी.. आतांच हांव थकून आयलां. म्हज्यान जायना कामां करपाक. तूंच कर तीं.

माधुरी : घरचीं कामां कर म्हूण सांगिना गो हांव तुकां.

बेबी : मागीर?

माधुरी : बेबी तूं बुरशीं उतरां मार. तुजे वाटेक वचचे बंद जातले.

बेबी : म्हाका खंय येता गो दिदी बुरशीं उतरां मारपाक.

माधुरी : मागीर कितें येता तर तुका. फकत लजपाकूच जाणां दिसता तूं!

बेबी : ये दिदी तूं म्हाका सामकीं बुरशीं उतरां मारपाक शिकय. मागीर पळय हांव कशें सोलून काडटां ते एक-एकट्याक.

माधुरी : आगो बेबी! बुरशीं उतरां मारपाक शिकवपाची गरज पडना. तीं आपोआप येता. नॅचरल! परंपरा ती.

बेबी : मागीर म्हाका कित्याक येना तर तीं बुरशी उतरां? आपोआप नॅचरल जाल्यार?

माधुरी : आमचो पप्पा खंय शिकला तर? तरी पूण ताका तोंड पाठ.

बेबी : दिदी तुकांय आसा आसतलीं तीं भुरशीं उतरां तोंड पाठ. हय मगो?

माधुरी : तशीं सगळीं येना. पूण खुबशीं जाणां.

बेबी : हय मगो! जाल्यार दिदी तूं म्हाका शिकय आतां. एकदां हांव शिकलें की, तीं उतरां मरमेरेन विसरपाचें ना.

माधुरी : लोक कितें म्हणटलो गो. आपलेच भयणीक वायट गजाली

शिकयता म्हूण. नाका गो बाये.

बेबी : दिदी.. आतां खरो वेळ आयला. आरत्यांक परतें हें दिवचेंच पडटलें. नाजाल्यार ते दोगूय म्हाका सोडचेनात.

माधुरी : लाग तूं तुजे तयारेक. फुडलें फुडें.

बेबी : दिदी तो धीरज आनी कसो फकांडां मारता जाणां?

माधुरी : कसो गो? म्हज्या बेबी बाय.

बेबी : ये..बेबी! आती क्या खंडाला. असो म्हण्टा.

माधुरी : असो म्हण्टा तुका तो? सुकिल्लो बोमील.

बेबी : हय गो दिदी.

माधुरी : आनी एकदां म्हणून दाखय पळोवया!

बेबी : ये..बेबी! आती क्या खंडाला.

माधुरी : मागीर? तूं परतें कायच म्हणणा तर?

बेबी : ना गो.

माधुरी : म्हणपाक जाय.

बेबी : कितें म्हणपाक जाय?

माधुरी : क्या करुं आके मै खंडाला. परत तो म्हण्टलो. झुमेंगे, गायेंगे, नाचेंगे और ऐष करेंगे. ये क्या बोलती तू? ये बेबी.

बेबी : दिदी पुरो कर आतां. तुवूंय लागलें आतां फकांडां करपाक.

माधुरी : हातूंत फकांडां कसलीं. खरें तेंच सांगतां हांव.

बेबी : दिदी सामको फाटीक लागला गो तो.

माधुरी : लागतलोच! लायन मारता तो तुजेर. ये बेबी तुज्या प्रेमांत पडला तो.

बेबी : लायन आनी म्हजी? या काळसणीचेर! बऱ्यो सुंदर, सुंदर

चलयो आसात आमच्या क्लासांत.

माधुरी : धीरजालें तन मन बसलां तुजेर. तुज्या ह्या रुपाचेर न्हय.

बेबी : दिदी तूं आनी नाका ते विचार मनांत हाडटा. (लजत) तशें हांव वायट दिसतां तर!

माधुरी : लजलें पळय! पळय पळय लजलें! पप्पाक कळोवचें पडटलें. लजलें तें फसलें.

बेबी : दिदी तुका आनी फकांडां सुचता. पयलींच सकाळसून पोटांत दुखता म्हज्या. सामके वळ येतात.

माधुरी : पोटांत दुखता? पोटांत दुखपाक भायलें कितें खाल्लें तर?

बेबी : कांयच खाल्लें ना गो दिदी.

माधुरी : मागीर अशें कशें दुखपाक लागलें तर पोटांत.

बेबी : दिदी डॉक्टराक फोन कर गो... सामकेंसोसूंक जायना आतां.

माधुरी : डॉक्टराक फोन करतां हांव. इतलें दुखता जाल्यार तूं भितर वच आनी कितेंय खावन घे. (फोन करता)

बेबी : मम्मी बेगीन येतली गो दिदी?

माधुरी : हॅलो! हॅलो!..हां डॉक्टर, हांव माधुरी. daughter of बाबलो. एक मिनीट राव डॉक्टर हां. बेबी डॉक्टराक लागलो फोन.

बेबी : फोन लागलो मगो दिदी. बेगीनात बेगीन यो म्हूण सांग ताका. (पिरंगत भितर वता)

माधुरी : हां डॉक्टर! हय हय बाबल्याल्या घरांतल्यान उलयतां. आमचें घर जाणा न्हय तुमी? ok, ok डॉक्टर. (फोन दवरता) मम्मीक आनी आयजूच भायर सरूंक जाय आशिल्ली.(बेबी

हातांत ग्लास घेवन पियत येता.)

बेबी : (पिरगपाचीं नाटकां करता) दिदी डॉक्टरान येता सांगलां?

माधुरी : हय गो. तूं मातूय भियेनाका. येतलो तो. बस तूं. (दारा म्हऱ्यांत वचून) हो पळय आयलो डॉक्टर, येयात डॉक्टर येयात.

डॉ. : (तुकाराम डॉक्टर. रोजी जावन येता.) डॉक्टर रोजी. I am Dr. Rosy सठासठ. हें घर बाबल्यालेंच न्हय?

माधुरी : हय डॉक्टर.

डॉ. : Not just डॉक्टर. डॉक्टर रोजी सठासठ...

माधुरी : तेंच तें. डॉक्टर रोजी सठासठ. तपासात म्हज्या ह्या बेबीक फटाफट.

डॉ. : बेबीक? what name! कितें जालां तुमच्या भुरग्याक?

बेबी : दिदी.. डॉक्टर म्हाका भुरगें म्हण्टा. व्हंकल जालें मगो हांव.

माधुरी : म्हणूं गो ताका भुरगें जाल्यार भुरगें. डॉक्टर तपासता म्हज्या बेबीक?

डॉ. : कितें जालां ताका?

माधुरी : डॉक्टर, तें आतां म्हाका कशें कळटलें? तपासल्या उपरांत कळटलें म्हज्या बेबीक कितें जालां तें. डॉक्टर तपासता न्हय?

बेबी : कितें जालां काय विचारता? दिदी, सोसूंक जायना तें जालां सांग.

माधुरी : डॉक्टर तपासता न्हय?

डॉ. : हय, हय! but पेशन्ट कोण? भायर आपय ताका.

बेबी : दिदी भायर आपय कोणांक म्हण्टा गो तो मेर्द?

डॉ. : I am not मेर्द. डॉ. Rozy सठासठ... ok..

माधुरी : डॉ. सठासठ पेशन्टाक पळयात आतां फटाफट...

डॉ. : पेशन्टाक आपय मगो बेगीन बेगीन.

बेबी : पेशन्टाक आपय खंयचो डॉक्टर? हांवूच पेशन्ट. (रडत)

माधुरी : बेबी, भयणी म्हजे रडनाका गो. डॉक्टर आयला न्ही तुका तपासूंक. डॉक्टराचो हात लागतकच बेबी बाय म्हजें रोकडेंच बरें जातलें. न्हय डॉक्टर?

डॉ. : हय हय म्हज्या हातगुणांचो चमत्कार तुमकां दिसतलो मुखार.

बेबी : तुमी उलयत रावात. तपासता तपासता करीत रावात. म्हाका भंय दिसूंक लागलो आतां.

डॉ. : Dont worry. हांव डॉ. रोजी सठासठ आसतना तूं भियेनाका गो...

माधुरी : डॉ. रोजी आण्टी तपासपाक सुरू करात.

डॉ. : डॉक्टर Rozy सठासठाक आण्टी म्हणटा? ok, ok, no problem हां, no problem.

बेबी : सॉरी डॉक्टर! दिदिची सॉरी हांव मागतां.

डॉ. : डॉ.रोजी सठासठ M.B.B.S. world famous. कोणाकूय विचार! डॉ.अमेरीकन Gold medalist. म्हजीच हांव तोखणाय करुंक लागलें अशें तुमका दिसतलें!

माधुरी : आंसू आतां डॉक्टर! आतां कळ्ळें म्हाका तुमी डॉक्टर Rozy सठासठ अमेरिकन Gold medalist म्हूण.

डॉ. : बेगीन कळ्ळें तें बरें जालें तुमकां.

बेबी : तुमकां कळटा म्हणसर हांव वयर पावता दिसता देवा.

डॉ. : परत परत सांगतां हांव. हो डॉक्टर आसतना भियेपाची गरज

ना. हय मगो बुड्डीजी.

माधुरी : बुड्डीजी? म्हाका तुवेन बुड्डी म्हणलें? बुड्डी तुजी आवय, बुड्डी तुजी आजी शींल, शींल.. म्हाका दिदी म्हण दिदी. कारण हांव ह्या बेबीची दिदी. तिवूय बी आंकवार.

डॉ. : आंकवार..? बसूं येता सांकवार. (हांसता)

बेबी : दिदी, तकली कणकणटा गो.

माधुरी : डॉक्टर..?

डॉ. : ओके, ओके बेबीच्या दिदिजी ओके, I am very sorry for that.

माधुरी : Just shut up. डॉक्टर रोजी सठासठ.

डॉ. : Just cooldown. Dont be angry. इतलो राग तुका सोबून दिसना.

बेबी : डॉक्टर पोटांत दुखता सारकें आनी तूं Just cooldown म्हण्टा?

डॉ. : बेबी तुज्या पोटांत दुखता? दुखूंदी. मात्सो थारो धर. What a figure.

बेबी : आगे फिगर कोणाचें?

डॉ. : (हांसता) आमचें तिगांयचें आनी कोणाचें?

माधुरी : फिगर बिगर मागीर पळयात. आदीं म्हज्या अपुरबायेच्या बेबीक तपासात.

बेबी : Control सोंपलो आतां म्हजो.

डॉ. : (माधुरीक पळोवन) बेबीचें लाडकें दिदी... तपासुया न्हय आतां?

माधुरी : आतां कोणाक तपासुया म्हण्टा? म्हाका काय ताका?

डॉ. : तुकां जाल्यार तुकांय तपासुया. डायबीटीस, प्रेशर लेगीत चेक करुया.

बेबी : डॉक्टर, दिदीक सोडून म्हाका तपासात. तरी बरें देवा परमेश्वरा पप्पाक विचारलें ना तें. नाजाल्यार आतां मेरेन जितलीं आयिल्लीं तीं पप्पाक विचारतालीं. असल्यांनी हांव राम नाम सत्य जाता दिसता.

माधुरी : डॉक्टर आतां तरी पळयात न्हय म्हज्या बेबीक.

डॉ. : अशें कितें गो तूं.. घाई करता? बेबी बाय, कितें जाता म्हण्टालें?

बेबी : वदळच्यान सांगतां हांव पोटांत दुखता म्हूण. आंग सारकें जड दिसता. दि..दी my stomach is paining गो..

माधुरी : डॉक्टर बेबी बायेक बेगीन तपासात.

डॉ. : कितें म्हण्टा? मात्शें मोठ्यान उलय Miss world.

माधुरी : मात्शें Miss world सोडात आनी सकयल लोमकळटा तो स्थॅतोस्कोप कानांत घालात.

डॉ. : आरेच्च्या! स्थॅतोस्कोप कानांत घालूंक विसरलें दिसता हांव.

बेबी : कांय नज. आतां घालात.

डॉ. : खंय घालूं?

माधुरी : कानांत घालात. दोतोर भेड्डें बी न्हय मुगो?

डॉ. : (स्थॅतोस्कोप कानाक लायत) आतां उलय Miss world.

माधुरी : कितें? Miss world miss world लायला तुमी. पेशन्टाक पळयात.

डॉ. : पळयात! आयलां तेन्नाच्यान पळयत आसां हांव Miss world beauty queen, bandet queen.

माधुरी : आरे डॉक्टरा पळयात म्हणचे तपासात.

डॉ. : अशें म्हणटा व्हय? तुमी फकत पळयात म्हण्टा म्हणून हांव पळयत रावलों. (स्थॅतोस्कोप लावन) आतां मोठ्यान उस्वास भायर सोड. भितर घे. भायर भितर करीत राव.

माधुरी : डॉक्टर कितें करता हें? पेशन्ट हांव न्हय.

डॉ. : मागीर कोण तर?

बेबी : डॉक्टर, पेशन्ट हांव! थंडी, जोरान हांव फडफडटां आनी तूं हात लायता दिदीक?

डॉ. : अशे..! (नस पळेत) गुड न्यूज, गुड न्यूज.!

बेबी : गुड न्यूज कसलो, बाये घोवाचो?

डॉ. : ओगी राव, ओगी राव. आवाज येता.

माधुरी : गुड न्यूज, आवाज हें चल्लां कितें डॉक्टर?

डॉ. : ना, ना, ना. गॅस प्रोबलम गो.

माधुरी : आं..आं.. गॅस प्रोबलम, गुड न्यूज करून सटी वाजयशी.

डॉ. : ना..ना. गॅस प्रोबलम शुअर. तसो आवाज आनी वासूय आयला.

माधुरी : डॉक्टर, तुमी डॉक्टरूच न्हय?

डॉ. : म्हणचे तुका दुबाव? डॉक्टर Rozy सठासठ M.B.B.S. gold medalist any doubt?

माधुरी : ओके डॉक्टर सठासठ, तपासात आतां तरी पटापट.

बेबी : तुमी तपासतां, तपासतांच म्हणत रावात. तपासपाची कृती

केन्ना करतले?

डॉ. : Dont worry बाय बेबी.

बेबी : बाय म्हणनाका बेबी म्हणात बेबी.

डॉ. : ओके! ओके! बेबी दोळे वयर कर. जिबली भायर काड (दोळे बंद करता.)

बेबी : पुरो? (जिबली भायर काडटा) पुरो काय उरल्या तिवूय ओडून भायर काडूं?

माधुरी : डॉक्टर अशें कितें करता तुमी हें?

डॉ. : डॉक्टर तूं काय हांव?

माधुरी : हय सायबा.. तूंच डॉक्टर. आतां दुबाव येवपाक लागलो.

बेबी : आतां आनी दुबाव घेवपाक वेळ उरलोना. उलयतां उलयतां रात जायत आयली. दिदी सोड तुजो तो दुबाव.

डॉ. : म्हणचे? दुबाव, तोवूय बी म्हजेर ह्या डॉक्टर Rozy सठासठाचेर? हांव तपाशिना वायटाकाराक.

माधुरी : रागार जायनाका डॉक्टर. चुकलें म्हजें. चूक जाली.

डॉ. : ok..ok...ok its allright.

बेबी : डॉक्टर, तूं ok ok करीत राव. हांव तिकेट काडटां पंढरेक वचपाची, पांडुरंग, पांडुरंग करपाक. (तितल्यान शांता प्रवेशता).

शांता : आगो कितें चल्लां हें, दोतोर कित्याक आयला, भाड्यान रावपाक?

बेबी : मम्मी हांव बरें ना.

शांता : कितें जालें म्हजे धुवेक?

माधुरी : कांय ना गे. तूं भियेनाका डॉक्टर आसा.

डॉ. : (तपासून) कांयएक भियेवपाची गरज ना. एक injection मारलें म्हणटकच रोकडेंच बरें जातलें.

शांता : सकाळीत बरें आसलें. (रडत) अशें अचानक कितें जालें बाय तुका?

डॉ. : प्रेमरोग जाला ताका प्रेमरोग.

बेबी : कानसुलां रंगयतलें हांव आतां.

शांता : रांव गो मात्शें. डॉक्टर हें आनी कसलें दुयेंस नवीन?

डॉ. : तसलेंच तें.

शांता : तसलें म्हणचे कसलें नवें दुयेंस आयलां?

डॉ. : आमच्या सारक्या डॉक्टरांक कळटा तें. तुमी कांयएक भियेनाका. हे डॉक्टर सटासट आसतना. (शांता रडटा)

माधुरी : मम्मी अशी कितें करता गे तूं? ल्हान भुरग्यासारकी?

डॉ. : मम्मी? ही तुमची मम्मी?

माधुरी : हय, हय हीच आमची मम्मी.

डॉ. : मम्मीवयल्यान म्हाका एक गाणें याद आयलें. म्हणून दाखोवं?

शांता : हो वेळ गाणें आयकुपाचो न्हय. पेशन्टाक तपासात पयलीं.

डॉ. : तुजे धुवेक कांयएक जालें ना. फकत थंडी जाल्या. एक injection मारतकच थंडी जोर नात जातलो. (injection हातांत घेवन भरता)

शांता : कितलें मोठें इनेसांव हें?

माधुरी : म्हाका सामकी भिरांत दिसूंक लागली.

डॉ. : तुमी दोगांय दोळे बंद करात. हांव तोपतां.

बेबी : कितें तोपता डॉक्टर?

डॉ. : इनेसांव.

शांता : दोतोर बेबी बायेक दुखतलें.

डॉ. : दुखयनासतना करतां.

बेबी : बिनदास्त करात.

डॉ. : सवंय आसात तर तुका इनेसांवांची!

बेबी : सवंय ना. पूण तुमचें इनेसांव म्हाका गुणांक पडत शें दिसना.

डॉ. : injection तोपिल्लेंच जाय जाल्यार सोसून घे.

बेबी : सोसतां! (डॉक्टर injection तोपता बेबी मम्मी मम्मी करुन रडटा)

शांता : हें इनेसांव पळोवन म्हाका अजाप दिसलें!

डॉ. : ह्या इल्लेश्या इनेसांवाक पळोवन अजाप दिसलें? हें इनेसांव कांयच न्हय.

माधुरी : कितें सांगता डॉक्टर?

डॉ. : खरें तेंच सांगतां. म्हज्या घोवालें पळयत जाल्यार तूं धांव मारतली.

शांता : घोवालें injection, तें आनी वेगळें कशें?

डॉ. : हय तर! सामकें वेगळें.

माधुरी : तुमी डॉक्टर म्हणटकच तुमचे घोवूय बी डॉक्टरूच न्हय?

डॉ. : हय डॉक्टरूच ते. डॉ. प्रेम सठासठ. पूण गोरवांचे डॉक्टर ते.

शांता : गोरवांचे? आसूं आसूं.... पूण दोतोर, तुमी तरी मनशांचेच न्हय?

डॉ. : हय तर. हांव डॉक्टर सठासठ मनशांक तपासपाचो. म्हजो घोव गोरवां, दुकरांक म्हणल्यार जनावरांक तपासपाचो.

माधुरी : तरी बरो. तुजे बदला तुजो घोव आयलो ना तो.

डॉ. : ताचें एकदां पळयत जाल्यार परत पळोवपाची इत्सा उरचीना.

शांता : असलें कसलें तर तें इनेसांव?

डॉ. : कुत्र्यांक वेगळें, दुकरांक वेगळें. म्हज्या घोवाकडेन आसा तें हतयांक तोपपाचें.

माधुरी : तुमच्या इनेसांवान बेबीक न्हीद आयलीशी दिसता.

शांता : न्हिदुनी ताका. दोतोर तुमची फी कितली?

डॉ. : कितें उलयता मम्मी तुमी? फी बी कांय नाका.

माधुरी : फी घेवचीत पडटली.

डॉ. : मम्मीजी फी चे बदला तुमी नृत्य करात.

शांता : नृत्य आनी हांव?

डॉ. : म्हजे खातीर.

शांता : म्हजी व्हडली धूव माधुरी करतलें.

डॉ. : Ok No problem.

माधुरी : मम्मी, म्हाका खंय येता नृत्य?

शांता : आगो! भेंड बेश्टेंच हालय. दोतोरूय नाचतलो.

डॉ. : तूं कित्याक भियेता हांव आसतना!

माधुरी : मम्मी तुंवूय भेंडूच हालय हां. (एका गाण्याचेर डान्स चलता. गाणें सोंपच्या पयलीं बाबलो दारांत उबो रावता)

शांता : माधुरी बेबी तुमचो पप्पा! (तेन्ना डॉक्टर पळ काडटा आनी नाटकाचो पयलो प्रवेश सोंपता)





## अंक पयलो

### प्रवेश दुसरो

बाबलो : देवा रावणा, कुंभकर्णा, मेघनाथा आयज तरी पावात रे सायबानों. बरोसो एक मटक्या नंबर घालात म्हज्या नशिबांत. ओपन, क्लोज, फुल घर. प्रस्न आसा म्हज्या दोनूय चलयांच्या लग्नांचो.

शांता : तुमचीं हीं पिशेपणां केन्नाच सोपचेलीं नात. देवाक सोडून रावण ॲण्ड कंपनीक मागणें करता? करात करात.

बाबलो : देवाकूय याद करतां. तें तुका खबर ना! आयज रावण ॲण्ड कंपनीक याद केली जाल्यार कितें बिगडलें?

शांता : देवा, देवा, कृष्णा, कृष्णा, रामा, रामा सगळें पुर्ण करात म्हज्या घोवाच्या मनांतलीं कामां. (राम दारार मारता) आतां बॅल आसतना कोण दार धाडायता?

बाबलो : कोण रे थंय! दार मोडून उडयतलो मरे. कोण आसा तो पळयतां. कोण ना गे हांगा.

रामा : (मात्श्यावेळान) Hello everybody, हें घर बाब बाबल्यालें?

बाबलो : ना ना हे घर तुज्या मांवालें.

राम : मांवालें आनी म्हज्या? आसूं येता.

शांता : कितें आसूं येता सवंगां?

बाबलो : बरो दिसता पिसांट कसो.

राम : कितें म्हटलें? हांव पिसांट? जडूड्या.

बाबलो : जड्डो? तुका हांव जड्डो दिसलों? नालायका, बेशरमा, हलकट.

शांता : ये ये राम गोपाल वर्मा. किधर से आया तू?

रामा : हो आनी कोण राम गोपाल वर्मा?

बाबलो : म्हजो मांव. तुका कितें करचें आसा ताचें?

शांता : तुमी मात्शे थंड रावात, गरजे भायर तुमचो प्रेशर वाडत. (रामाक) आयला तसो बस आतां.

रामा : बसतां गे, पूण हें घर बाबल्यालेंच म्हू?

बाबलो : हय रे! बाबल्यालेंच. बाबलो तुज्या कानांतल्यान भायर सरला न्हय रे.

राम : आवयस! कितें तर नांव लेगीत घेवपाक वाट ना दिसता? कोणें एका मनशान म्हाका वाटेक सांगलें. बाबलो हो थंड मनाचो म्हूण. पूण हांगा आयल्या उपरांन कळ्ळें सुकें बोंबील लेगीत हांगा उण्णां मारता.

बाबलो : बोंबीलांक लाय चुट्टी. कराटेची प्रत्यक्षीकां दाखोवं हांव तुमकां?

शांता : एकदां हांची B.P वाडली म्हणटकच हो असोच करता. उदक हाडूं काय म्हणटां साखर घालून?

बाबलो : कळशी भरुन उदक हाड आनी म्हजे तकलेर घाल.

राम : फकत झगडूंक आसा दिसता हो. कितें काय म्हळ्यार प्रत्यक्षीकां

दाखयता खंय कराटेचीं. मागीर रुम भाड्याक दिता म्हणून गांवार पेरगांव कित्याक घातला? मडसरेक!

बाबलो : (हांसता) भाड्याक रावपाक आयला? तुकारामान धाडला आसतलो!

राम : आतां हो तुकाराम कोण?

बाबलो : तुकां मरे सांगतलों आशिल्लों हो तुकाराम कोण तो. पूण आसूं.

शांता : तुमी मात्शे थंड रावात. भाड्यान रूम जाय तुमकां?

राम : हय गे. हाका मात्सो वोगी रावपाक सांग. उडटा पिट्टोळ कसो.

शांता : तुजें नांव कितें तें सांगलेंना तुवेन?

राम : आजून सांगलेंना.

शांता : सांगलेंना मरे? जाल्यार सांग बेगीन.

राम : राम. ता. कामटकर.

बाबलो : रोमटां कामटांकार?

रामा : भेरो दिसता हो. रोमटां न्हय. राम ता. कामटकर. ता म्हणचे तानाजी.

शांता : आसूं तें! तशें नांवांत कितें आसा?

राम : हांवूय बी तेंच म्हण्टां! म्हज्या बापायन हें राम नांव दवरलें आनी आपलें ता. लायलें. आनी म्हाका राम. ता. केलो.

बाबलो : लग्न सितेकडेन जातलो?

राम : तुमचे नदरेंत आसा कोण?

शांता : आसा आसा... एक न्हय! दोन दोन आसा.

बाबलो : सद्या कितेंय काम करता काय असोच गांवार हेडटा?

राम : पळय हां बाप्पा, तुमी म्हजो अपमान करता.

बाबलो : बाप्पा कोणाक म्हण्टा रे तूं? बाप्पा तुजो आजो, पणजो आसतलो. पूण तूं म्हाका एक सांग रे.

राम : पयलीं तूं म्हाका सांग तूं कोण तो? आनी मागीर उलय.

बाबलो : म्हज्या घरांत येवन तूं म्हाकाच विचारता हांव कोण? मेर्दा.

शांता : हो बाबलो ह्या घरचो मालक. तुजें नांव मनापासून आवडलें. पूण काम सांगलेंना तुवेन!

राम : इंजीनीयर. पायां पडटां तुमकां दोगांयकय. आशिर्वाद दियात म्हाका.

बाबलो : जोडप्यान येवपाचो न्हय! ओटी भरुन मेकळी जातली आशिल्ली ही. तशी तिका संवय आसा ओटयो भरपाची.

शांता : पायें शे पडटा आमचे?

राम : फुडें बऱ्याक पडचें म्हणून.

शांता : तशें जाल्यार तथास्तू!

बाबलो : आतां पायां पडात आनी मागीर गळ्याक धरात. पुरो पुरो चड फॉरमॅलिटी बऱ्यो न्हय त्यो पायां पडपाच्यो.

शांता : आतां म्हाका सांग, तूं कॉन्ट्रॅक्ट घेता घरां बांदपाचे?

बाबलो : मडसरी! तुजी न्हय? म्हजी. तुका कित्याक जाय त्यो राटावळी?

शांता : (मुखार वचून) पळोवपाक भुरगो बरो दिसता. शिक्षणूय आसा. हाकाच आमचो जांवय करुन घेतिल्लो बरो म्हण्टां हांव.

बाबलो : म्हणचे तुकां जावूंय चलत आयिल्ले जाय व्हय?

शांता : जोतीं झरोवचीं पडचिनांत.

बाबलो : जोत्यांक लाय चुट्टी?

राम : दोगांय कितें सांगतात काय एकमेकांक ! थंयच सांगूं दी.

(माधुरीक शूत्त, शूत्त करता जनेलाकडेन वचून.)

बाबलो : तोंड पळय मेल्ल्याचें. सामको चोर कसो दिसता. जसो बंदखणींतल्यान आयजूच सुटुन आयिल्ले वरीं.

शांता : तुमकां सगळे चोरूच दिसतात. पूण म्हाका तर हो म्हजो जावूंय जावपाक योग्य दिसता. पूण तुज्या मुखार कोणाचें शाणपण चलता व्हय? तुमी सांगता तीच उदेंत.

बाबलो : हे सायबा, कितें पळयता थंय भितर?

राम : रोमान्स. शी शी.. शी हे पिरायेचेर रोमान्स करपाक जनाची ना तर मनाची तरी लज दिसूंक जाय.

शांता : लज ना म्हण्टा म्हाका सवंगा. जनेलांतल्यान तकली घालून घंटी पळयता? शिमरो खंयचो. शी..शी..शी..

बाबलो : आरे पापया आमचें जाण्टेंपण. पिकिल्लें पान केन्ना गळून पडत तें नेम ना. फॅमीली तुजीच मरे भाड्यान रावपाक?

राम : हांव बॅचलर, आंकवार, सामको आंकवार.

बाबलो : आंकवार? आतां वच आनी बस मोडलेल्या सांकवार.

शांता : थिगूर गरय गरी घेवन. आमट तीख कडी कर आनी हांकां हाडून दी.

बाबलो : हय, हय ! थिगुरांचें आंबट तीख चलता म्हाका.

राम : थिगूर गोरोंव हांव? आनी आंबट तिखट करुन हाड म्हण्टा? ह्या कॉन्ट्रेक्टराक सांगता तुमी? पणजेचो ब्रीज बांदता कोण? हांव. रेब्याचे वण्टींचेर slab घालता कोण? हांव. असलो हो राम ता. कामटकर civil contractor class १. गोरी घेवन गरोवणेक हांवें बसप?

शांता : हालीं आमच्या घरांत मेळत तसलीं सवगां भितर सरतात.

बाबलो : चलूंक लाग हांगासून. मालकिरयाद खंयचो! रेब्याच्या पाऱ्यांचेर slab घालता म्हूण पयलेच फावट आयकतां हांव.

रामा : रेब्याच्याच न्हय! हांवेन शेणाच्या लेगीत पाऱ्यांचेर slab घालून बंगले उबे केल्यात. तुमी म्हाका अजून वळखलो ना. राम ता. कामटकर civil contractor म्हण्टा म्हाका. कळ्ळें मरे?

शांता : कोलास १ कोंतरेक्तर?

बाबलो : तूं मरे म्हाका दिसता घरां बांदपाचो contractor न्हय. रोमटां बांदपाचो contractor आसतलो. चलूंक लाग हांगा सरल्यान. कितें काय म्हणल्यार शेणाच्या पाऱ्यांचेर slab घालता खंय मेर्द! चलूंक लाग रमट्या.

राम : रमट्या रमट्या. नांव लेगीत घेवपाक कळना. तुजो एक पुतळो बांदतां.

बाबलो : कितें करूंक? तकलेर बसून कावळ्यांक हळशीक करूंक? चलूंक लाग.

राम : मात्सो रुम पळोवन घेतां. मागीर वतां.

बाबलो : वाशीमेर हांगा सरलो. (राम भायर वता)

शांता : अशे आड्डू नाकात. तुमची B. P वाडली. भिवूनूच गेलो तो. आतां आमी या भितर. शिरो खावया. तुमचे आवडिचो गोड गोड शिरो केला हांवेन चल.

बाबलो : शिरो, म्हजे आवडिचो?

शांता : हय म्हज्या बाबल्या.

बाबलो : चल तर शांते, भितर वचून शिरो खावया. (दोगांय भितर वता तेन्ना बेबी माळयेवयल्यान येता)

बेबी : मी कशाला हारश्यात पाहू गं, मीच माझ्या राजाची राणी गं (तेन्ना शामाची ॲन्ट्री.)

श्याम : (दारा म्हऱ्यांत येवन) ये बेबी, तेरा ध्यान किधर है तेरा हिरो इधर है ये बेबी, तुजो मोगी श्याम.

बेबी : आवय सायबा. तुकां पळोवन म्हाका सुटलो शेळो घाम.

श्याम : म्हाका पळोवन तुका सुटलो शेळो घाम?

बेबी : हय रें शाम्या. मम्मी पप्पा आसात भितर.

श्याम : आसूं! म्हाका कितें? तुजी मम्मी पप्पा आसल्यार आसूं. भियेता काय कितें हांव. बेबी da...rling.

बेबी : darling barling मागीर पळोवया. तूं वच रे मात्सो. पप्पा पळयत जाल्यार दवरचोना. सामको उजरायतलो.

श्याम : उजरावपाक हांव कितें बोमील! म्हाका पळोवन तुज्या पप्पाक येतलो सुको घाम.

बेबी : हय तुका पळोवन पप्पाक घाम येतलो? पप्पाक पळोवन तुका घुंवळ येतली.

श्याम : घुंवळ! ह्या शाम्याक. चल भितर वच आनी म्हज्या सासऱ्याक म्हणचेच मांवाक आपय. जावंय आयला म्हूण सांग.

बेबी : कित्याक तुज्या कपलाक पिंजर लावन ओटी भरपाक. चल रे तूं तुज्या पायां पडटां हांव. आदींच रुम पळोवपाक कोण ना कोण येयत आसता.

श्याम : रूमूच पळोवपाक येतात मगो? काय तुका पळोवपाक गो?

बेबी : म्हाका तूं पळयता तितलोच पुरो.

श्याम : बेबी da..rling, म्हाका मुगो एक आयडिया सुचली.

बेबी : तुका आनी आयडिया सुचली, कसली?

श्याम : बेबी आयडिया! बेबी आमी दोगांय अशें करुया.

बेबी : कशें रे?

श्याम : अशें गो.

बेबी : कशें तें सांग मरे.

श्याम : हांव मुगो तुमगेरुच रावपाक येतां.

बेबी : (हांसता) रावपाक येता, घर जावंय जाता?

श्याम : ना गो. भाड्यान रावपाक. मागीर आमकां चोरून चोरून मेळपाची गरज पडचीना. हाची भिरांत ताची भिरांत. कोणाकूच कांयएक वास लागचोना आमच्या मोगाचो.

बेबी : दोळे धांपून दूद पियेता त्या माजराक दिसता आपल्याक कोणूच पळयना म्हूण पूण पणस पिकलो म्हणटकच वास हो भायर वतलोच.

श्याम : जावंय आयलो चलत म्हूण वास गांवांर वतलो मगो वचूं. पूण कशी लागली म्हजी आयडिया?

बेबी : पूण श्याम्या, ही आयडिया सक्सेस जावपाक जाय न्हय रे.

श्याम : आयडिया सक्सेस जालीच म्हूण समज. चल म्हज्या मांवाक आपय. जावंय आयला म्हूण सांग तोवूय बी चलत. व्हडलो जावंय राम.

बेबी : धाकटो जावंय म्हजो मोगी श्याम.

श्याम : राम और श्याम. साडू साडू.

बेबी : दोगूय बसात आनी वळात लाडू.

श्याम : बेबी, आतां तरी आपयता मगो तुज्या पप्पाक. काय हांवूच वचूं भितर! (भितर वचपाक वता)

बेबी : भितर वता! भितर वचत जाल्यार परत भायर पावचोना ही गॅरंटी आसा ह्या बेबीक.

श्याम : खरेंच ! तशें जाल्यार मात्सो भिवचो पडलो. बेबी हांव मगो अशें करतां.

बेबी : कशें करता?

श्याम : अशें गो.

बेबी : कशें रे श्याम सांग बेगीन.

श्याम : हांव मुगो बॅल वाजयतां.

बेबी : बॅल बील कांयएक वाजोवपाची गरज ना, कळ्ळें?

श्याम : बॅल वाजयनाका म्हण्टा? तशें जाल्यार हांव दार वाजयतां. दारार मारतकच बिळांतलो नागोबा भायर येतलो सडसडीत.

बेबी : तुका जाय तें तूं कर. म्हाका मदीं हाडूं नाका.

श्याम : (दार वाजयता मोठ्यान आवाज करीत) वयर, वयर दोंगरार सुर्य उदेला, सुर्याचे सावळेक वाग गोठेला. वागाची चामडी काडून धोल सादयला.धोलाचेर तोणी मारुन शिगमो नाचयला.

बेबी : आरे मेल्ल्या पप्पा येतलो मरे भायर तुजो हो शिगमो पळोवन.

श्याम : आतां मुद्दामूच दार धाडायलां. तुज्या पप्पा खातीर!

बाबलो : (भितरल्यान म्हणत भायर येता) कोण आयला? कितें ठोकठोक करता? दारां जनेलां मोडटा? मोड मोड. कोयते कुराडी हाडून

दीवं?

श्याम : कसले आयले दीस? कोणाच्या दारार लेगीत मारप ना दिसता!

बाबलो : तूं कोण कलवता? म्हज्या घराचीं दारां धाडावपाक? तूं कितें करता हांगा रे?

बेबी : पप्पा, रुम भाड्याक विचारतालो हो.

श्याम : बॅल वाजन वाजना थकलों म्हूण.?

बाबलो : थकलो म्हूण दारां जनेलां मोडटा? रीत आसा काय ना रे तुका हां?

बेबी : पूण पप्पा, हाका तुकाराम काकान धाडला.

बाबलो : तुकारामान धाडूं नाजाल्यार सकारामान धाडूं. दादल्या मनशाक रुम?

बेबी : हो आनी सकाराम कोण रे पप्पा?

बाबलो : तुका कित्याक गो त्यो फुडल्यो जाणवायो. चल वच भितर तोंड घेवन.

श्याम : वाट चुकलों दिसता. Sorry हां चुकिच्या नाम्याचेर आयलों.

बाबलो : Sorry म्हण्टा बुकल्या? बुकलो केन्नाच वाट चुकना. माजराक पळोवन म्यॉंव म्यॉंव करीत सोदीत घरा मेरेन येता.

श्याम : तें सोडात आतां माजरा बुकल्याचें. म्हाका तुमकां नांवान उलो मारपाक बरें दिसना.

बाबलो : म्हाका दिसता तुवें म्हाका बाबलोच म्हणचो सो.

श्याम : हांव तुमकां दादा म्हणूं?

बाबलो : नाका!

श्याम : नाका! बरें आसा. अण्णा म्हण्टां.

बाबलो : नाका! अण्णा सण्णा बिलकूल नाका.

श्याम : तर तात्या म्हणल्यार कशें दिसतलें?

बाबलो : नाका तें आनीक म्हणपाक! कासवा, वांसवेला.

श्याम : बरें आसा. बाबल्यो जाल्यार बाबल्यो. तर बाबल्या!

बाबलो : कानांतल्यान भायर सरला न्हय रे हो बाबलो. उलय उलय...

श्याम : नांव घेतल्यार माडार चडटा, अण्णा म्हणल्यार नाल्लांचीं सोण्णां सुट्टां. बंदूक मिलेगी?

बाबलो : कोणाक मारपाक?

श्याम : म्हाका! आनी कोणाक! म्हाका मार तूं आनी जा मोकळो.

बाबलो : हांव कित्याक मारुं?

श्याम : कारण हांव तुजो भावी जावंय श्याम.

बाबलो : श्याम आसूं नाजाल्यार राम आसूं भावी जावंय म्हूण मिरयता? तोंड पळय वचून हारशांत.

श्याम : म्हणचे तुका चलत आयिल्ले जावंय नाका तर?

बाबलो : तूं चलत यो नाजाल्यार धांवत यो म्हाका कितें पडलां?

श्याम : बसीन आयल्यार चलतलो?

बाबलो : वाशिमेर हांगासरलो.

श्याम : ॲरोप्लेनान आयल्यार?

बाबलो : वाशिमेर.

श्याम : रेड्यांच्या गाड्यार बसोन आयल्यार?

बाबलो : वाशिमेर..

श्याम : गाढवाचेर..बसोन आयल्यार?

बाबलो : वाशिमेर..

श्याम : हात पायें धुंवन आयल्यार?

बाबलो : वाशिमेर.

श्याम : शेणान, हळशिकेन पांय भरुन येता तसलो जावंय जाय तुमकां? (हांसता)

बाबलो : वाशिमेर.

श्याम : (दाराकडेन वचून) कॉको, कॉको वाशिमेर.

बाबलो : (मोठ्यान) वाशिमेर..

शांता : (आवाज आयकून शांता भायर येता) बि.पी. वाडत तुमची. कोणाचेर आड्डुता इतल्या मोठ्यान. उदक घेयात.

बाबलो : (उदक घेता) तुज्या जावंयाचेर.

शांता : आवय! म्हजे जावंय आयिल्ले?

बाबलो : हय हय! दोगूय येवन गेले.

शांता : कशे आयिल्ले?

बाबलो : धांवत!

शांता : धांवत आनी म्हजे जावंय?

बाबलो : मागीर कशे येतले तर ते?

शांता : चलत येतले ते चलत.

बाबलो : (माळयेचेर वचत. शांता किचनांत वचपाक) उडत येत म्हूण भंय. विमानांत येता दिसता ते.

शांता : कशेय येवं. आयले म्हणटकच जाले. (बाबलो माळयेर वता. आनी शांता किचनांत वता तेन्ना भायल्यान पार्वतीच्या फाटीक कुत्रे लागिल्ले आसता. कुत्र्यांचो आवाज. कपडे पिंजिल्ले. प्रेक्षकांच्या मदल्यान रंगमंचार प्रवेश करता.)

पार्वती : (रडत) मैं लुट गयी मैं बरबाद हुई मैं लुट गयी रे बाबा.

शांता : ये लामाणे.. खंय वता? भायर वच आदीं. भीक मागता? काम धंदे करात. भितर खंय धावता गे?

पार्वती : मैं लुट गयी.

शांता : कितें उलयता?

पार्वती : मैं लुट गयी बरबाद हुई.

शांता : भूक लागल्याा गे?

पार्वती : मैं बरबाद हुई

शांता : गर्भपात केलो. कोणाचो गे सायबिणी?

पार्वती : नहीं.. नहीं मै लूट गयी रे बाबा. चमत्कार हुवा.. चमत्कार.

शांता : बलात्कार जावन चमत्कार जालो?

पार्वती : नहीं नहीं मै बरबाद हुई..

शांत : बलात्कार केलो गे, कोणें गे?

पार्वती : कुत्ता रस्ते का कुत्ता ये हाल बनाया.

शांता : कुत्र्यांनी बलत्कार केलो? केन्ना कोण कितें करीत हाचो नेम ना गे सायबिणी.

पार्वती : बलत्कार नहीं किया.

शांता : भूक लागल्या आसतली. वाडूं इल्लेंशें तुका?

पार्वती : आगे भेरे बलात्कार न्हय गे.

शांता : आगो! तुका कोंकणी येता मुगो.

पार्वती : कभी कभी येता आनी कभी कभी ज्याता.

शांता : आतांच तुवेन म्हाका भेरी म्हणली. कितें गे तें? आतां.. जाता.

पार्वती : कुछ याद नहीं आती गे.

शांता : इल्लेंशें जेवन घे तूं. मागीर सगळी याद येतली तुकां. बेबी रातची बेळशेल्ली पेज आसा जाल्यार पळय थंय. दोन पायांचें कोलूग आयलां.

पार्वती : नहीं.. नहीं मुझे कुछ नहीं चाहीये. मैं लूट गयी बरबाद हुई.

शांता : कसलें पिशें लागला म्हूणं कोण जाणां. रस्त्यान येतना भियेलां दिसता.

पार्वती : मेरी हालत देखो. कुत्ती हुई मै. कसले हाल केले तें पळय त्या कुत्र्यांनी.

शांता : कुत्र्यांनी बलत्कार केला तो समजलो गे. ताच्या फुडें कितें?

पार्वती : बलात्कार नहीं धुळदशा धुळदशा.

शांता : धुळदशा..? कसली गे धुळदशा.

पार्वती : धुळदशा धुळदशा गे. कुत्ता मेरेको काटा.. गे काटा..

शांता : कपडे जाल्यात तुजे झिंगालाला.

पार्वती : कुत्र्यांनी खाल्ली म्हाका. घांस काडलो. उपरसे मुनिसीपालिटीवाले लोक, म्हाका घट्ट धरुन चवदा इनेसांवां मारा.

शांता : चवदा इनेसांवां तोपलीं म्हण्टा दिसता ही.

पार्वती : हां जी. बहुत दर्द होता. सणसणटा. सोसूंक जायना.

शांता : चवदा इनेसांवां तोपलीं तुका? खंय गे तीं?

पार्वती : इधर. हांगा पळय दोळे मोठे करुन. इधर इधर बोमलेक.

शांता : बोमलेक? सामकी सूज आयला मगे तुका. सामको बेबो कसो.

पार्वती : एक बायलूच दुसरे औरत का दर्द समजूंक शकता हैं.

शांता : आतां कितें करुयां म्हण्टा? गरम उदकाचो शेक मारुया?

पार्वती : कुछ पुराना कपडा मिलेगा?

शांता : कपडे? कितें जाले. हां.. कपडे जाय म्हण्टा? राव हां पळयतां.

पार्वती : मैं लूट गयी. बरबाद हुई.

शांता : परत परत, तेच उलयता कित्याक? समजलें म्हाका बलात्कार आनी गर्भपात जाला तो. आनी तुका चवदा इनेसांवां लेगीत मारल्या म्हणून. नांव कितें तुजें?

पार्वती : नांव पार्वती. त्या गणपताची बायल हांव.

शांता : गणपताची बायल तूं? हिका आतां पळय हांव कशी कोंकणी उलोवपाक लायतां ती. गणपत मगे?

पार्वती : हय हय.. गणपत म्हजो घोव.

शांता : येदो वेळ हांव समजली तूं घाटावयली म्हूण. सॉरी हां.

पार्वती : म्हजो अवतार पळोवन हांव घाटावयलींच दिसतलींच.

शांता : वयनी, चूक जाली. खऱ्यानीच हांवेन वळखली ना तुका.

पार्वती : मात्शी सोडटा म्हाका घराकडेन? घोव वाट पळयता आसतलो.

शांता : हय हय सोडटां. पूण अशे अवस्तेंत. ह्या अवतारान गणपत तुका पळयत आनी तो पिसो जायत. हो घे बाबल्या बाबालो शर्ट घाल.(पार्वती शर्ट घालीत. दोगांय भायर वता तेन्ना आनीक एकदां कुत्र्यांचो आवाज येता. शांतेचे कपडे कुत्र्यांनी पिंजिल्ले दिसता. शांता किंळचत धांवत दारा म्हऱ्यांयत येता आनी पयलो अंक सोंपता)

**(पयलो अंक सोंपता)**

# अंक दुसरो
## प्रवेश पयलो

(दुसऱ्या अंकातली सुरवात. पड्डो वयर येता तेन्ना तुकाराम येता बाबल्याच्या घरा.)

तुकाराम : बाबल्या कितें करता रे मटक्याचीं च्याटां घेवन?

बाबलो : मटक्याचीं च्याटां चाळटां. ओपन काडटालों हांव.आयज चवको घट्ट आसा सामको. असो उबो कित्याक? यो बस.

तुकाराम : आतां आनी बसपाक वेळ ना. हें घे निरपणस. काशिनाथाचे आवयन धाडून दिला.

बाबलो : निरपणस? कालूच सुनिलान दोन धाडून दिल्ले आसा. आसा तेच फ्राय करपाक टायम ना कोणाकडेन.

तुकाराम : आसूं. हेंवूय दवर. बाबल्या सध्या परिस्थीती मात्सी वेगळी आसा.

बाबलो : कसली निरपणसाची?

तुकाराम : ह्या वर्साच्या नाटकाची.

बाबलो : तुका आनी म्हाका कित्याक रे त्यो परिस्थीती? पयशे मारूया कोनशाक आनी आमी जाप दिवया मनशाक.

तुकाराम : बाबल्या सायबा तुका आनी परत सांगपाची गरज ना. ह्या वर्साच्या नाटकाची जापसालदारकी भुरगे घेनांत खंय? अशें हांवेन आयकलां. आमी कशेय आसूं जाण्टें जाले म्हूण कितें जालें? वर्साचो हो नाटकाचो उत्सव जावपाकूच जाय. खंयचेय परिस्थीतींत.

बाबलो : वर्सा पद्दतीप्रमाण आमी जीं कार्यां करीत आयिल्ले आसा, तीं कार्यां ह्या वर्साय जावंकूच जाय. अशे कशे रे हें भुरगे. आमच्या वेळार रात दीस म्हणून पळयनाशिल्ले. नाटकांचो उत्सव हो जावंकूच जाय अशें थारायताले.

तुकाराम : आतां तूं कोणाकोणाक श्री गणेशा शिकोवंक वतलो?

बाबलो : सारकेंतुजें तुकाराम. आमच्या भुरग्यांक सांगप म्हळ्यार तकली फोडून घेवप.

तुकाराम : हांव म्हण्टां, आमच्या देवळांतल्या भटाक विचारुन पळोवया कितें म्हण्टा तो.

बाबलो : आरें तुकाराम भट कितें करतलो. भटालें सामकें वेगळें. ताचें कोण आयकता?

तुकाराम : मागीर..?

बाबलो : तुकाराम म्हाका दिसता आमच्या देवळाचो अध्यक्ष अंकूश. चार पुस्तकां शिकिल्लो आसा तो.

तुकाराम : त्या शिक्षणाचो उपेग जावपाक जाय. ते बगर उपाय ना.

बाबलो : आरे पूण तुजें म्हणणें कोण आयकूंक तयार आसा तें पयलीं

सांग.

तुकाराम : तें तुजें सारकें बाबल्या. पयलीच्यो यादी येता. याद करीत जाल्यार.

बाबलो : कसले कसले त्रास घेवन आमी नाटकाच्यो येसायो मारताले. हाका जमय ताका जमय खूब पाशियेंस घेताले. कोणें ना कोणें फुडाकार हो घेवचोच पडटलो.

तुकाराम : सारकें बाबल्या तुजें. विचार करुन तकली कणकणटा. पूण हाच्या फुडें कितें?

बाबलो : दोंगरा रानांतलीं झाडां देवूच शिपता. ते परीन गांवांतल्या नाटकांचो उत्सव गावांतली देवीच पळोवन घेतली. देवी सातेरी माया तीच निवारण करतली. तूं कांयएक भियेनाका.

तुकाराम : तुज्या तोंडांत साखर पडूं आनी देवीन सगळे पळोवन घेंव. मागीर रे, रुम खाली आसात काय कोणांक दिले भाड्यान?

बाबलो : सध्या खालीच आसा! भिरांत दिसता रे कोणाकूय भाड्यान दवरपाक.

तुकाराम : खूबशें लोक येता म्हजेकडेन चौकशी करपाक. पळय बरें तशें कर. बरें हांव येतां.

(तुकाराम भायर वता तेन्ना राम शोभा जावन बाबल्याच्या घरा येता तेन्ना बाबलो फोनाचेर आसता.)

शोभा : Hello! Hello Hello ची, भामट्या.

बाबलो : (फोनाचेर आसता) Hello, Hello...

शोभा : Hello ची. भामट्या!

बाबलो : Hello. Hello...

शोभा : Nice to meet you ची. बाबल्या...

बाबलो : Nycil जाय...

शोभा : Nycil..? what Nycil?

बाबलो : भितर आसा हाडूं? कोणाली गरमी वाडल्या? रींग वता पूण कोणूच घेनात Nycil, Nycil कितें करता गो तूं?

शोभा : Not Nycil! I mean to say nice. बरें दिसलें तुमकां मेळून.

बाबलो : अशें..! म्हाका मेळून तुका बरें दिसलें? कितें तर तूं बरें नाशिल्लें? हांव समजलों Nycil जाय म्हूण तुज्या भेंडाक लावपाक. तसो हांव मालिश बरो करतां. फोन मागीर केल्लो बरो.

शोभा : मागीर कित्याक? आतांच करात.

बाबलो : कितें करात?

शोभा : फोन करात म्हण्टां हांव फोन.

बाबलो : फोन करपाचें बरें आसा गो. पूण आदीं म्हाका सांग, तूं कोण? वळख ना पाळख.

शोभा : तोंडार पडला काळोख.

बाबलो : कितें?

शोभा : हांव एक बायल.

बाबलो : बायल ती दिसता म्हाका. दादलो तुका कोण म्हण्टा तर? नांव, गांव.

शोभा : नांव शोभा, गांव रायबंदरा.

बाबलो : नांव शोभा? गांव रायबंदरा. लागिचेंच मुगो. बरें आसा शौभा.

शोभा : शौभा न्हय रे. शो..भा..!

बाबलो : बरें शोभा जाल्यार शोभा. हांव मात्सों फोन करतां, तूं बस हां. (फोनाकडेन वचून फोन उकलता.)

शोभा : बस म्हण्टा, बसतां हां ची. भामट्या.

बाबलो : मॅडम भामटो न्हय! बाबलो, बाबलो द ग्रेट.

शोभा : सॉरी हां ची. बाबल्या द ग्रेट.

बाबलो : सॉरी बोरी गेली तेल लायत. तूं कित्याक आयला तें पयलीं सांग.

शोभा : हांव तुमकां मेळपाक आयलां.

बाबलो : म्हाका मेळपाक? म्हाका शें गो?

शोभा : आतां तुमीच ह्या घरचे मालक. हय मरे?

बाबलो : हय! हांव ह्या घरचो मालक. मागीर.. कितें जालें. फुडें कितें?

शोभा : फुडें हांव शोभा. ह्या घराची मालकीण.

बाबलो : कितें? मालकीण! घराची मालकीण आसा भितर. आपोवं तिका?

शोभा : म्हाका म्हणपाचें आशिल्लें हांव मालकीण न्हय म्हणून.

बाबलो : न्हय आनी कित्याक म्हण्टा? आतां तूं मालकिणूच म्हूण. आतां आनी लजनाका.

शोभा : ना रें बाबल्या चुकून आयलें तोंडाक म्हज्या.

बाबलो : चुकून मुकून आयलेंना. देवी सरस्वतीन तुज्या तोंडांतल्यान उतरां काडल्यां तीं.

शोभा : म्हणचे देवी सरस्वती प्रसन्न जाली तर म्हाका!

बाबलो : सध्या हो बाबलो प्रसन्न जाला तुका.

शोभा : बाबल्या आमी आतां कामा धंद्याचें उलोवया.

बाबलो : कामा धंद्याचें जाल्यार, कामा धंद्याचें.

शोभा : बाबल्या म्हाका तुकारामान धाडला तुजो रूम पळोवपाक.

बाबलो : मागीर येदोवेळ कित्याक लागलो तर तुका हें सांगपाक?

शोभा : रूम ना तर भाड्यान दिवपाक?

बाबलो : तुका आनी कोण ना म्हण्टा मॅडम.

शोभा : मॅडम म्हणप सोडात. तुमी म्हाका शोभाच म्हणात. बरें दिसता आयकूंक.

बाबलो : बरें बाये शौभा जाल्यार शौभा...

शोभा : शौभा न्हय रे बाबल्या.

बाबलो : मागीर कितें तर?

शोभा : शो..भा.

बाबलो : आंसू तें कितेंय शौभा जाल्यार शौभा. कामा धंद्याक खंय आसता?

शोभा : कामाक आसा बँकेंत.

बाबलो : बँकेंत मॅनेजर कांय sweeper?

शोभा : कितें बाबल्या तुमी? sweeper आनी हांव?

बाबलो : मागीर कोण तर तूं? मॅनेजर?

शोभा : ब्राबल्या हांव Accountant. Accounts पळयतां, Home Loan बी पास करतां.

बाबलो : Accountant? बरें आसा! रुम पळोवन घेता न्हय?

शोभा : दाखयता जाल्यार पळयतां.

बाबलो : दाखयतां गो. यो अशें यो, हो रुम आसा single बॅडरुम. यो

भितरले रुम दाखयतां तुका. (दोगांय भितर वता तेन्ना शांता माळयेवयल्यान देंवता)

शांता : खंय गेलो काय हो! गेलो दिसता तुकारामाक मेळपाक. त्या तुकारामा आनी मटक्या बगर हांचें कांयएक हालना. हांच्यो चलयो लग्नाच्यो जाल्यो हाची चिंता ना हांकां. पळय फोन कसो दवरला! (तितल्यान बॅल वाजता) आतां आनी कोण आयलो काय? (दाराम्हऱ्यांत वचून निशाक पळोवन) आवयस.. तुमी कोण? (श्याम निशा जावन येता)

निशा : (दाराम्हऱ्यांत येवन) मॅडम हांव निशा.

शांता : पिशा भिशा कोण ना हांगासर. सगळीं शाणींच रावतात ह्या घरांत.

निशा : मॅडम म्हजें नांव निशा.

शांता : मागीर हांव कितें करुं?

निशा : मॅडम, निशा सेल्स गर्ल.

शांता : कसलें गर्ल?

निशा : भेड्डी दिसता. मॅडम, हांव सेल्स गर्ल. पावडर, क्रिम, साबण, ब्रा, निकर सगळे item imported आसा मॅडम.

शांता : बारा खंयचीं वाजल्यां गो बाय आतां. अकरा जाता थंयच आसा.

निशा : अडाणी दिसता. बारा न्हय मॅडम.

शांता : मागीर कितें सवंगां?

निशा : लेडीस wear, म्हणल्यार बायलांले बारीक बारीक कपडे, लिपस्टीक, पावडर, गंगावन विकतां हांव.

शांता : अशें सांग मुगो बाय. तूं बारा, बारा करता.

निशा : मात्शी भेड्डी दिसता. जाय मॅडम तुमकां? दाखोंव? पळोवन घेयात! पसंत आसा जाल्यार घेयात.

शांता : दाखय तूं पळोवया काकणां आनी गंगावनां. बाय तुजें नांव कितें म्हणलें गो?

निशा : निशा. (कपडे दाखयत) हे पळयात सगळे item imported.

शांता : Item आसा तुजे imported. आवाज मात्सो घोघरो मुगो.

निशा : थंडेन तो. मॅडम हो मात्सो address सांगशात?

शांता : म्हाका खंय येता वाचपाक बिचपाक. तूंच वाच. हांव दोळे आसून कुड्डीं.

निशा : सॉरी मॅडम! म्हाका दिसलें तुमकां वाचूंक येता म्हूण. मॅडम बाबल्याल्या घरचो नामो हो?

शांता : बाबल्यालो नामो?

निशा : हय मॅडम जाणां तुमी बाबलो खंय रावता तो?

शांता : बाबलो सो जाय गो तुका...?

निशा : बाबल्या कडेन मात्शें काम आसलें.

शांता : कसलें काम तें?

निशा : खंय मेळटलो बाबलो-बाब?

शांता : बाबलो-बाब? कसलें काम आसलें गो बाय बाबल्या बाबाकडेन.

निशा : तें बाबल्या बाबाकूच सांगूंक जाय. तेंवूय म्हणून बाबल्या बाबाच्या कानांत...

शांता : कितें कानांत सांगूंक जाय?

निशा : मॅडम बाबल्यागेर खंय रुम भाड्यान दिवचो आसा.

शांता : रूमूच जाय मगो तुका? काय बाबलोय जाय?

निशा : दोनूय जाय. ऐकदांचो बाबलोबाब मेळ्ळो म्हणटकच, रुम मेळटलोच. मात्शें सांगता व्हय बाबल्यालें घर खंय पडटा तें?

शांता : बाबल्यालो घरचो नामो जाय मगो? दिवया दिवया.

निशा : हय मॅडम. सांग न्हय बेगीन.

शांता : बाबलोच जाय? बाबल्याची बायल चलचिना तुका?

निशा : बाबल्याबाबाली बायल, चलता गे. पूण दादल्या मनशाकडेन उलोवप केल्लें बरें न्हय मॅडम?

शांता : कित्याक? कानांत सांगपाक? कांयएक गरज ना. जें कितें उलोवप आसा तें म्हाका सांग. हांव आसतना तुका बाबल्याकडेन उलोवपाची कांयच गरज ना. कळ्ळें?

निशा : अशें कशें तर तें?

शांता : तशेंच तें. हे मॅडमीलें.

निशा : म्हणचे?

शांता : हेंच घर बाबल्याबाबालें.

निशा : आवयस्स तुमी बाबल्या बाबाली बायल तर?

शांता : सारकेंवळखलें. हांवूच बाबल्या बाबाली बायल एकटीच.

निशा : लोकांल्यो कितें दोन दोन आसता तर? चल एक हुस्को मेकळो जालो. नाजाल्यार बाबल्या बाबालें घर सोदतां सोदतां जोतीं झरून वचपाचीं. मॅडम कपडे, पावडर, क्रिम, गंगावण घेतात आतां न्हय?

शांता : पयलीं रुम पळोवया. कपडे, पावडर, क्रिम म्हाका कित्याक जाय?

निशा : मॅडम, ह्या पावडरान आनी क्रिमीन तुमच्या तोंडाक पडल्या त्यो मिरयो नाच्च जातल्यो.

शांता : मॅडम, मॅडम करुन मस्के लायता म्हाका हय?

निशा : मॅडम, एक फावट एकदांच ट्राय करुन पळयात. पयशे नाका म्हाका म्हालाचे. सामकी ऐकुणीस वर्सांची दिसूंक लागतली. बाबल्या बाबाली बायल सोबून दिसतली.

शांता : खरेंच गो?

निशा : देवा शपथ.. बाबलो बाब तुका sexy नदरेन पळयतलो.

शांता : हें पिरायेचेर शक्य ना तें. Sexy दिसप.

निशा : ट्राय करुन पळय तूं. पूण ही गजाल बाबल्याबाबाक सांगपाची ना.

शांता : घोवाक सांगनासतना कशें जातलें? ताका ही गजाल सांगचीच पडटली. हांव तांकां कांयच लिपयना.

निशा : ओ मॅडम! बाबल्या बाबाक ही गजाल कळत जाल्यार जालें. तोवूय बी टॉनीक मागतलो. बावीस वर्सांचो जावपाक.

शांता : मागीर बिगडलें कितें? दोगांय सामकीं तरनाटीं दिसतलीं मगो भुरगीं भुरगीं कशीं?

निशा : तूं आनी कितें मॅडम, हातूंत दुबावूच ना. मॅडम तूं भुरगी दिसूंक जाय म्हूण हांव तुका हो पावडर दितां तें वेगळें. मॅडम, बाबल्या बाबाक थोडो वेळ सायडीक आसूं दी.

शांता : ताका आनी आतां सायडीक कित्याक? तुज्या मनांत विचार तरी कितें आसा गो बाये...

निशा : मॅडम, समजा ताका हांवेन टॉनीक दिवन बावीस वर्सांचो केलो

आनी..?

शांता : फुडें आनी कितें तें समजून सांग गो बाय.

निशा : आनी तो कोणाच्या तरी मोगांत पडलो जाल्यार? तुजें फुडें कितें जातलें? तूं पडली त्रासांत.

शांता : तेंवूय खरें. दादल्यांचेर भरवंसो ना.

निशा : बाबल्याक तसोच आसूं दी मिरयेल्लो. ताची चड चिंता करी नाका.

शांता : बरें आसा चिंता करी नाका जल्यार करिना. म्हजें सौंदर्य सुधारपाची तुवेन जी क्रिम, पावडर हाडल्या ती दियात. गुणांक पडली जाल्यार पडली.

निशा : दितां दितां. पयलीं रुम दाखयात.

शांता : दाखयतां गो दाखयतां. क्रिम पावडर दिल्ली जाल्यार लावन पळयतली आसली हांव. म्हज्या गालांक फरक पडटा काय ना तो दिसतलो आशिल्लो.

निशा : फरक पडटा काय विचारता? पडलोच म्हूण समज. तुजे गाल गुलगुलीत श्रीदेवी सारके दिसूंक लागतले.

शांता : कितें? श्रीदेवी सारकी दिसतलीं हांव? गालांच्यो मिरयोय वतल्यो? ना जाल्यार म्हजे गाल पिडड्यार करशी!

निशा : तूं कांयएक भियेनाका. तुजे गाल टुणटुणीत करपाची सगळी जापसालदारकी म्हजी. तुजे फुलिल्ले गाल पळोवन तुजो घोव लेगीत घुंवळ येवन पडटलो. तूं पळयत राव म्हजी करामत.

शांता : यो भितर. तुका रुम दाखयतां. उरिल्ल्यो गजाली भितर उलोवया. (भायल्यान कुत्र्यांचो आवाज. काशिनाथ आनी रघुनाथ दोगूय

मंदोदरी आनी द्रोपदी जावन धांवत धांवत प्रवेश करतात.)

द्रोपदी : हांव पयलें पावलें.

मंदोदरी : तूं खंयचें? हांव पयलें पावलें. कोणाकूय विचार!

द्रोपदी : गरज ना. पयलीं हांवूच आयलां.

मंदोदरी : द्रोपदी तूं बेश्टी रडी खायनाका. हांवूंच पयलीं आयलां.

द्रोपदी : हांव पयलीं.

मंदोदरी : ना! हांव पयलीं.

द्रोपदी : ना! हांव पयलीं.

मंदोदरी : ना! हांव पयलीं.

द्रोपदी : आमी अशें करुया. आपटी धोपटी घालुया.

मंदोदरी : बरें आसा. आपटी धोपटी जाल्यार आपटी धोपटी.

द्रोपदी : आपटी धोपटी काजुचें पान घाल गो बेबी म्हजें नांव, द्रोपदी आनी मंदोदरी.

मंदोदरी : आपो जिंगा पो काळी मिरी पो. हांव..हांव.

द्रोपदी : ओके ओके तूं जाल्यार तूं. मंदोदरी एक आमी काम करया.

मंदोदरी : आयज आनी कसलीं कामां? कामाक सुटी घेतल्या हांवें. आयज सोदून काडुंकूच जाय म्हणचे जाय म्हज्या श्याम्याक.

द्रोपदी : मंदोदरी तूं कित्याक टेन्शन घेता भुरग्यांलें? आतां ल्हान ना तें. न्हवरे जाल्ले आसा आमचे भुरगे.

मंदोदरी : हय गे बाये हय न्हवरे जाले. तशें जाल्यार व्हंकलोय पळयल्या आसतल्यो?

द्रोपदी : तशें तें हुशार. आपलीं वेवस्था खंय ना खंय तरी केल्याच आसतली.

मंदोदरी : दोगांय बरीं वाचलीं त्या पिश्या कुत्र्यांच्या तोंडांतल्यान. हय नू गे द्रोपदी बाये. ना जाल्यार आमचीं कापडां पिंजून काडपाचीं. सुणीं खंयचीं.

द्रोपदी : आगे रस्त्यावयलीं सुणीं म्हूण बरीं सायबीणी.

मंदोदरी : द्रोपदी चल या गे आमी. सुणीं गेलीं आसतलीं. कोणूय भायर सरत आनी आमकां चोरां समजत.

द्रोपदी : राव गे हांव मात्शी फुडें वचून पळयतां. खऱ्यांनीच गेल्यांत काय म्हूण.(परत एकदां सुणे भोंकपाचो आवाज)

मंदोदरी : द्रोपदे, तूं बेश्टीच फुडें वचूं नाका गे बाये, सामकीं पिसावल्यांत तीं सुणीं.

द्रोपदी : आयज मेलीं दिसता आमीं दोगांय. कापडां दवरतात तीं? सामक्यो पिसकळ्यो करतलीं. पळय एकटो आनी कसो पळयता. हातभर जिबली भायर काडून.

मंदोदरी : सामको रागान पळयता मगो तो! दांत पळयल्यार सामकी भिरांत दिसता. कितें करया?

द्रोपदी : (फोनाक पळोवन) मंदोदरी काम जालें दिसता आतां.

मंदोदरी : आतां कामाक लाय उजो व्हरून. जीव उरल्यार भीक मागून पोट भरीन हांव.

द्रोपदी : आगे मंदोदरी फोन, फोन आसा फोन तो पळय. आतां प्रस्न मिटलो. हांव रामाक फोन करतां.

मंदोदरी : आगे पूण घर लोकालें. फोन कशी करतली? चोर समजून आमकां कोणूय मारीत बी मगें. पयलींच दिसता लामाण्या सारकीं.





द्रोपदी : मागीर कितें करया म्हण्टा?

मंदोदरी : मार खावपाक रेडी राव आनी लाय तूं फोन रामाक.

द्रोपदी : अशें म्हण्टा! फोन करूच म्हण्टा मगे? नाजाल्यार मागीर नातीधुती जावशी?

मंदोदरी : आनीक एक फावट सुणीं गेली काय पळयतां. (जनेलाकडेन वचून) ना गो द्रोपदी सामकीं राखून रावल्यांत.

द्रोपदी : मंदोदरी, कितें जाता तें जावं. आतां हांव फोन करतां. फुडलें फुडें. (फोन करुक वता तेन्ना सुण्यांचो आवाज येता. तेन्ना बाबलो प्रवेश करता. द्रोपदीच्या हातांत फोन आसता. बाबल्याक पळोवंन दोगांय हेवटेन तेवटेन धांवत आसता.)

बाबलो : चोर चोर लमाणी घुसला घरांत. चोर चोर चोर. धरा धरा चोरांक धरा. चोर.. चोर चोर..

मंदोदरी : (दोगांय बाबल्याक धरून तोंडबंद करता.) वोगी रावात, वोगी रावात आमी चोरां न्हय! आनी लामाणीय न्हय.

द्रोपदी : मंदोदरी तसोच घट्ट दामून धर ताका. तोंड बंद करुन गुड्डो मारूया.

मंदोदरी : आगे पूण मरत मगे तो !

बाबलो : (मोन्यानी सोडात म्हूणं सांगपाचो अभिनय करता.)

द्रोपदी : मंदोदरी आतां ताका सोडीच नाका. ना जाल्यार परत आड्डुतलो. चोर चोर.. म्हणून.

मंदोदरी : तूं कित्याक आड्डुता? तुजो आवाज आयकून सगळो गांव एकठाय जायत मगे. (परत एकदां बाबलो मोन्यांनी कशन करता आनी आपली सुटका करुन घेता तेन्ना.)

बाबलो : सोडात, सोडात म्हाका. म्हज्याच घरांत येवन म्हाकाच किडनॅप करता? फोन चोरुन व्हरता तो बरें आसा. म्हजें तोंड दामून म्हाकाच मारता? तुमकां दाखयतां राव. पुलिसेक फोन करतां आतां.

द्रोपदी : पुलिसेक फोन करपाची कितें गरज?

मंदोदरी : आमी चोरांय न्हय, ना म्हण लामाणीय न्हय.

बाबलो : मागीर हें लफडें कितें तर? तुमी दोगांय म्हाका जितो मारतलीं आशिल्लीं.

द्रोपदी : तुमकां हांव सारकेंसमजावन सांगतां.

बाबलो : सांग सांग! पळोवपाक तुमी बायलां दिसना.

मंदोदरी : कित्याक दिसना? गांवठी कोंबयो अशोच आसतात आमच्या सारक्यो.

द्रोपदी : फुडें आयकात. आमी दोगांय रस्त्यान चलत येतना! रस्त्यावयलीं सुणीं आमच्या फाटीक लागलीं. धांवत धांवत चुकून तुमच्या घरांत पावलीं.

मंदोदरी : पावलीं खरीं! पूण परत वचपाची वाटूच बंद केली त्या रस्त्यावयल्या सुण्यांनी.

बाबलो : आतां कळ्ळें म्हाका. तीं सुणीं पिशीं जाल्लीं आसात. मेळटा तांकां घास मारतात. कालचीच एक गजाल. एकट्याल्या कुल्याचो कपचोच काडलो. सामकीं मेजून चवदा इनेसांवां मारचीं पडलीं.

मंदोदरी : द्रोपदी इनेसांवां बोमलेक तोपता काय कुल्यांक तोपता गो?

द्रोपदी : हांवेन आयकलां बोमलेक तोपता म्हूण.

बाबलो : वा वा! दोगांयलीं नांवां मात सॉऽऽलीड. एकटी रामायणांतली आनी दुसरी महाभारतांतली.

दोगाय : आमच्या घोवांनी दवरल्यांत तीं नांवां आमकां.

मंदोदरी : म्हजें नांव मंदोदरी.

द्रोपदी : आनी म्हजें नांव द्रोपदी.

बाबलो : आसा मगे तें? नाजाल्यार हां..व आसा..च.

मंदोदरी : कितें करुंक?

बाबलो : च्या करूंक. गरमा गरम च्या करुन हाडूं तुमकां? हाडटां हां, मात्शीं रावात. (बाबलो किचनांत वता)

द्रोपदी : मंदोदरी, ह्या दादल्याचीं चिन्नां बरीं दिसना.

मंदोदरी : द्रोपदे, वदळचो राग काडटा दिसता.

द्रोपदी : म्हाका तर सामको बारीक नदरेन पळयतालो.

मंदोदरी : च्यांत न्हिंदेचीं वखदां घालून हाडीत. द्रोपदे चल या आमी. आमकां पळोवन घरचो सुणो पिसावलो दिसता.

द्रोपदी : आगळीक करपाचो तांत्रीक उपाय सोदता आसतलो. मेल्ल्याची आमचेर नदर सामकी वायट आसा. चल धांव.. धांव... धांव. (दोगांय वता तेन्ना श्याम आनी राम प्रवेश करता. स्वताचे बापूय जावन न्हिदचे कुडिंतल्यान चोर पावलांनी मुखेल दाराकडेन येता.)

राम : (हेवटेन तेवटेन पळोवन) श्याम यो, यो कोण ना.

श्याम : कोण ना? बरें जालें. खरेंच मरे.

राम : हय रे. यो तूं भियेनाका. (तितल्यान बाबलो हातांत दोन च्याचीं कपां घेवन प्रवेश करता.)

श्याम : वा..! वा..! नोकर बुवा what a timing.

रामा : Entry मारतनाच! च्या घेवन हाजीर. वाऽऽ बाब नोकर बुवा वाऽऽ.

श्याम : (घेत) हम दो, हमारी च्याचीं कपां दो.

राम : Thanks हां नोकर बुवा.

बाबलो : पूण हांव नोकर न्हय. सभ्य माणसांनो!

श्याम : हातांत दोन च्याचीं कपां, खांदाचेर तुवालो.

राम : तरी पूण म्हणूंक सोदता आपुणूच घरवालो.

बाबलो : तुमी?

श्याम : आमी दोगूय.

बाबलो : न्हय. म्हणचे?

राम : इश्ट आमी.

श्याम : लंगोटी यार न्हय, दुसऱ्यां सारके.

राम : आमी दोगूय चड्डी यार.

बाबलो : कळ्ळें म्हाका. हांगा आशिल्लीं नाच्च कशीं काय जालीं? नांवां सांगलींना तुमी!

श्याम : रिटायर मिलिट्री मॅन सुनील कोलगांवकार.

राम : रिटायर पुलीस मॅन योगेश शिरोडकार.

बाबलो : आनी हांव बाबलो ग्रेट सुपरमॅन.

श्याम : तुमकां पळयल्यार दिसनात तुमी ग्रेट सुपरमॅन शे.

बाबलो : ल्हान आसतना म्हजीं भुरगीं म्हाका ग्रेट सुपरमॅन म्हण्टालीं. तुका पळयल्यार दिसना तूं मिलिट्रीमॅन सो. मिश्यो सारक्यो थाऱ्यार ना त्यो.

राम : दिसता तशें नासता म्हूण हें जग फसता.

बाबलो : नाजाल्यार हांच्यो मिशयो पळय. आंब्या रूखार बेनुल्ल चडल्या काय दिसता.

राम : ट्रॅफीक पुलिसांचीं अशींच तोंडां आसतात. रातचो पियल्लो सोरो दुसऱ्या दिसा दिसता.

श्याम : आसू रे आतां. च्या मस्त जाल्या हां.. ग्रेट सुपरमॅन बाबल्याबाब वालोर तुजे च्याक. टेस्टी च्या.

बाबलो : हांगा येवपाचें कारण सांगलें ना तुमी!

रामा : कारणां बगर आमी दोगूय खंयच वचना. म्हजी धूव निशा आनी हांव निशालो पप्पा.

बाबलो : तुजेंय सेम टू सेम.

श्याम : ना म्हजें मात्शे वेगळें. हांव पप्पा आनी शोभा म्हजी धूव.

बाबलो : दोगांयलें आरतें परतें.

राम : पूण अर्थ एकूच.

बाबलो : (दारा म्हऱ्यांत वचून) निशा हे निशा, शोभाकूय सांग तुमचे दोगांयले पप्पा आयल्यात म्हूण. बेगीन भायर येयात. न्हाता आसतलीं भुरगीं.

श्याम : आमी सकाळीं न्हाले. थंड, थंड तळयेंत उडी मारुन.

बाबलो : दिसता तें.. दोगूय वांगडाच?

राम : ना, तो उडी मारून वयर सरलो, तेन्ना हांवेन उडी घाली.

बाबलो : (परत एकदां दारा म्हऱ्यांत वचून) निशा ओ निशा. गेलीं काय भायर! कांयऐक कळना ह्या भुरग्यांचें. केन्ना भितर आनी केन्ना भायर तीं.

श्याम : घरा सुध्दा अशींच तीं. घरा तीं आमच्या वांगडा आपा लिपाचो खेळ खेळटात.

राम : घर मात एकदम बरें सजयलां तुमी. रंगवनूय एकदम बरें जालां.

बाबलो : चली भुरग्यांलो बापूय म्हणटकच नितळ दवरचेंच पडटा.

श्याम : दोन चलयो! चलो भुरगो ना?

बाबलो : देवान दिलोना.

राम : तुमी यत्न करुंक ना दिसता.

बाबलो : कसलो?

श्याम : चलो भुरगो जावपाचो. एक तरी निमाणो चान्स घेवपाचो.

राम : देवाची करणी आनी नाल्लांत पाणी.

बाबलो : सारकें! देवाचे करणे बगर कांयएक घडना.

श्याम : जणएकल्याचें नशीब.

राम : बाबल्याबाबान चल्या भुरग्याचीं सपनां पळेलींच नात.

बाबलो : सपनां प्रत्येक रातीक पळयतालों पूण खरीं जालीं नात. आसूं! देवान दिलां तातूंत आमी दोगांय खूश. तुमचें?

राम : व्हडली चली.

बाबलो : तुजेय सेम टू सेम. हय मरे?

श्याम : ना म्हजें मात्शें उलटें. व्हडलो चलो आनंद आनी धाकलें चली शोभा.

बाबलो : जोडयेन आयिल्लीं जाल्यार ओटी भरूंक मेळटली आशिल्ली.

राम : तें नशीब खंय रे आमकां.

बाबलो : म्हणचे?

श्याम : गेली ती?

राम : तिचे फाटोफाट म्हजीय गेली.

बाबलो : म्हणजे तुमी दोगूय विदूर रांडे जाल्यात तर? हांव समजूंक शकतां दुःख्ख तुमचें. कारण हांवूय म्हणून एक दादलोच..!

श्याम : हे बाबल्या, तोंड सांबाळून उलय.

राम : बाबल्या.. गेली म्हळ्यार म्हजी गेली पंढरपुराक.

श्याम : आनी म्हजी गेली शिर्डीक. देवाच्या दर्शनाक.

बाबलो : अशेंऽ हांव समजलों राम नाम सत्य जालीं म्हणून.

राम : तुजी आसा मरे?

बाबलो : भितर आसतली.

श्याम : भितर आसतली जाल्यार वचून पळय. बाबल्या, आमच्या भुरग्यांक निरोप दियात. आमी दोगूय येवन गेले म्हूण.

बाबलो : सांगतां, सांगतां.

राम : बाबलो, आमकां जेवपाक सुध्दां राव म्हणना!

श्याम : आमचें जेवण शिजता भितर. करपत आनी वास येत भायर. चल या आमी.(बाबल्याची नदर चुकोवन बॅडरुमांत वता आनी बाबलो वचून बसता तेन्ना शांता प्रवेश करता.)

शांता : (झाडू मारीत फुगडी म्हण्टा) गाडी चालली चालली घुंगरांची वाट बाये दोंगराची. (बाबल्याक पळोवन) हो आनी एक बसता उठ्ठा थंय न्हिदो काडटा. हांव म्हण्टां न्हीद येता जाल्यार भितर वच आनी न्हीद न्हिदचे कुडींत.

बाबलो : दोळो लावचो म्हण्टा पूण दोळोच लागना.

शांता : आमोरेचेर न्हिदात आनी सपनां पळयात. केन्ना हांण्डो येता तुमच्या सपनात जाल्यार केन्ना मटको. तुजें एक बरें बाये.

बाबलो : शांते, तुजे गाल गुलगुलीत जाले शे! आवयस म्हज्या देवा. कपलाच्यो मिरयो लेगीत गायब. राज क्या है बेबी की माँ.. ह्या सौंदर्याचें?

शांता : राज बीज कांय ना, तुजे दोळे आयल्या सध्या न्हिदेक. म्हणून तुकां तें तशें दिसता.

बाबलो : कुछ तो बात है मेरी जान शांते.

शांता : कांय ना. तें आमचें बायलांचें सिकरेट.

बाबलो : बायलेन घोवाक आनी घोवान बायलेक कसलोय सिकरेट सांगू येता.

शांता : मागीर?

बाबलो : काय ना! भुरगीं दोगांय गेल्यां सुकून आनी तूं वता फुगून.

शांता : आरे क्रिमींचो चमत्कार आनीक कसलोच न्हय! कळ्ळें?

बाबलो : असली कसली क्रीम तर ती? म्हाकाय जाय आतां. हांवूंय मात्सो टुणटुणीत जातां, तुज्यासारकों. मागीर.. आतां तुका पळोवन न्हीद – तान गेली. एकदांच म्हज्या तोंडाक लायतां. जालों जाल्यार जालों गोरो.

शांता : गोरेंपण वचून काळेंपण आयल्यार कितें करतलो?

बाबलो : म्हजी तुका चिंताच ना. म्हजें बरें जाल्लें नाकाच तुकां.

शांता : तुजी चिंता आसा म्हणून सांगतां हांव. तुमी आसा तशेच बरे आसा.

बाबलो : अशें म्हण्टा! बरें आसा. नाका जाल्यार नाका. पूण ही क्रीम तुका दिली कोणें?

शांता : आवयस! बारिकश्या आवाजान उलयता शें? बरीक आवाजान

उलोवपाची कांयएक गरज ना हां. चोरुन हाडूंकना ती.

बाबलो : दिली कोणें ती सांग गो मात्शें.

शांता : तुमी अशे आयकुपी मनीस न्हय. ती क्रीम निशान दिल्या. तें सेल्स गर्ल आमगेर भाड्यान रावता ताणें.

बाबलो : ह्या निशान! आमगेर भाड्यान रावता ताणें. मागीर.. कांय नज.

शांता : कांय नज जाल्यार न्हिदो काडात.

बाबलो : दोळो लागूंक येता पूण न्हीद पडना. म्हज्यांत कोणतरी जाय सो दिसता.

शांता : कित्याक? कमरेक धरुंक.

बाबलो : तशेंच समज.

शांता : काम धंदो ना दमडेचो, कोंबो विकतो हाडूंक वता पणजेचो. अशी गत तुमची.

बाबलो : उलय तूं. उलयले बगर तुजें मन मेकळें जाल्लें आसा?

शांता : कामाच्यो राशी पडल्या भितर. तुज्या वांगडा नाचूंक म्हजेकडेन वेळ ना रे बाबा. तूं.....? (शांता झाडू मारीत भितर वता तेन्ना बाबलो परत गोरेवपाक लागता. लाईट डीम ग्रीन spotlight. माळयेवयल्यान तुकाराम रंभा जावन येता अशें बाबल्याक सपन पडटा.)

रंभा : बाबल्या ये बाबल्या न्हिदल्यात रे? उठ आतां. तुमची इत्सा पुराय करुंक आयल्या पळय ही रंभा. तमाशांतली बाई तुजी आवडती. (बाबल्याचो हात धरुन उठयत लावणीच्या तालाचेर गाणें वाजता दोगांय डान्स करता. (हें सगळें सपनात घडटा). परत एक फावट डीम लायट. बाबलो परत न्हिदता. रंभा

माळ्येचेर वता तेन्ना बाबलो सकयल पड्टा.) आरेच्च्या सपनेलों दिसता. (डान्स सोंपता तेन्ना बाबलो सकयल पडटा. तेन्ना राम आनी श्याम दोगूय शोभा आनी निशा जावन परत येतात.)

शोभा : आवय, आवय बाबलोबाब पडलो.

निशा : सपनेला आसतलो.

शोभा : आमोरेचेर कसलीं सपनां सपनेता बाब?

बाबलो : बरें सपन पडिल्लें. म्हज्या सपनांतले रंभे वांगडा हांव नाचलों.

निशा : रंभा? ही कोण रंभा?

बाबलो : तमाशांतली रंभा. लावणेच्या तालाचेर नाचता ती म्हज्या सपनांतली रंभा.

निशा : बाबल्या! आतां मात्शे सपनातले भायर येयात.

शोभा : बाबल्या सर !

बाबलो : सर आनी कित्याक म्हण्टा बाबलोच म्हणा म्हाका.

निशा : सर, बाबलो म्हणपाक बरें दिसना आमकां.

शोभा : तुमकां आमी पप्पा म्हणल्यार कशें दिसतलें?

बाबलो : पप्पा म्हण्टात म्हाका? म्हणात म्हणात. पप्पा जाल्यार पप्पा.

निशा : तुमचें परमीशन जाय आमकां. सामकी पप्पाची याद आयल्या. न्हय गो शोभा?

शोभा : खऱ्यानीच गो निशा. पप्पाची केन्ना भेट जायत अशी जाल्या.

बाबलो : म्हजी पुराय मान्यताय. म्हणात पप्पा जाल्यार पप्पा.

निशा : पप्पा, आमकां तुमी तुमचींच भुरगीं समजात. न्हय गो शोभा?

बाबलो : आतांच तुमचे दोगांयले पप्पा येवन गेले.

दोगुंय : आमचे पप्पा आयिल्ले?

बाबलो : हय! तुमकां हांवेन मोगान उलो मारिल्लो. पूण तुमी म्हाका ओ.. दिलो ना.

शोभा : हांवेन आयकूंक ना. पप्पा सॉरी हां.

निशा : हांव तर न्हातालें. तुळशीची पुजा करुंक जाय म्हूण.

शोभा : पप्पा, खूब दीस जाले आमी तुळशीक गंध फुल घालें ना.

निशा : म्हटलें पयलें तुमचें परमिशन घेतिल्लें बरें.

बाबलो : तुळशीक गंध फूल हें कोणेंय घालचें. हातूंत विचारुंक कित्याक जाय? तसो तुमी म्हाका तुमच्या बंधनांत बांदून घेतिल्लोच आसा. चलात करात पूजा. आयज दोगांय सोबून दिसतात. (दोगांय तुळशीची पुजा करता) संस्कारी भुरगीं, ना जाल्यार आसा आमचीं दोगांय. (तितल्यान बेबी आनी माधुरी प्रवेश करता. तुळशीची पुजा करपाचें सामान घेवन.) आवय म्हजे.. आवय.. खंय गो तुमी दोगांय? दिवजांक?

माधुरी : पप्पा, दिवजां न्हय.

बाबलो : दिवजां न्हय! मागीर.. इतली सजावट कित्याक तर आयज?

बेबी : तुळशीची पुजा करपाक. मम्मी म्हणपाक लागली आमी दोगांय व्हड जाल्यांत म्हूण.

बाबलो : आतां समजलें तिका. साडी न्हेसपाचें कारण म्हजे तकलेंत आयलें ना.

माधुरी : पप्पा तें सगळें बायलांलें. तुमकां कित्याक जाय?

बाबलो : सुर्य पुर्वेक उदेला काय पश्चिमेक असो प्रस्न पडलो म्हाका.

बेबी : पप्पा, सुर्य हो पुर्वेकूच उदेता हां.

बाबलो : आयज गर्दी तुळशीची पुजा करपाक! दिसूंक लागलीं आयज

आमच्या घरांत दिवजां कशीं. चलात पुजा करात. त्या दोगांयचें चालू आसा तुमीय चालू करात. थोड्या वेळान मम्मीय येतली. हळदी कुंकमाक भायर सरता तशी.

माधुरी : पप्पा, मम्मीन आमकां सांगलां वचात फुडें. आपूण येतां शिंरगार करुन.

बाबलो : मम्मी शिंरगार करता ? कोणाचीं फुलां आसा ?

बेबी : (हांसता) फुलां न्हय रे पप्पा, बारसो आसा.

बाबलो : म्हाकां कोणेंच कशें सांगलेंना. आयज बारसो म्हणून.

माधुरी : तुकां दवरला आसतलो सप्राइज.

बाबलो : चलात तुमी. त्यो फुडल्यो गजाली तुमकां नाका. (शांता शिंरगारुन येता.) दसरोय ना, आनी दिवाळीय ना. फुलां कोणाक माळटा ?

शांता : आयज दसरोय ना, दिवाळीय ना! हें हांव जाणां. फुलां माळपाचे दीस आजून कोणाकूच गेले नात.

बाबलो : मागीर, आयज नटून थटून खंय तर तुमी सगळीं.

शांता : तुळशीची पुजा करुंक. तुका कित्याक जाय सगळ्यो बायलांच्यो जाणवायो ? आरे, आयज पुढी.

बाबलो : पुढी ? ही आनी पुढी कसली ?

शांता : पुढी म्हणल्यार चार चवगां तुळशी म्हऱ्यांत जमून तुळशीची पुजा करतात. आमचें तें बायलांचें. तुमकां दादल्यांक कळपाचें ना.

बाबलो : बरें आसा, चालू आसूं दी तुमचें देवकार्य, धर्मकार्य. आतां आयिल्लींच आसात फुगडीय घालात.

बेबी : पप्पा, फुगड्यो चवथीक घालुया. मम्मी यो गे तूं.

शांता : चलात करात सुरू. (सगळीं जाणां पंचारत पेटोवन पांच प्रदक्षणां घालतात आनी ऐकामेकाच्या कपलाक लायता.)

बाबलो : (मटक्याचें च्याट घेवन मटको काडटा.) मेनाक फायनल आसा पांचको, कल्याण कितें म्हण्टा तें पळोवया. आरे वा..वा! वा कल्ल्याणांक चवको फायनल. पांचको आनी चवको पत्ती चवक्याची ०५९, ०७८ पांचक्याची पत्ती. बरी आसा.

राम : (कानांत सांगता) तुमकां दोगांयकूय आमच्या फाल्यांच्या प्रोग्रामाचें लक्षांत आसा न्हय?

श्याम : सांगल्यां तशींच थारायल्ल्या प्रमाण सगळीं कामां जावपाक जाय. बेश्टोच टायम वेस्ट करूं नाकात.

माधुरी : Slow उलय. पप्पाक मात्सो लेगीत दुबाव लागत जाल्यार..

बेबी : पप्पाक हे फावट काळी टोपी घालुया आमी दिदी. पप्पा चड शाणो समजता आपल्याक. पप्पाक दाखोवन दिवया, हम भी किसीसे कम नहीं.

बाबलो : अजून जायना गो तुमच्यो पुढी काय उडी त्यो?

शांता : राव रे मात्सो. जायत आयलें. देवीचें कार्य तरी बरे भशेन करुं दी. मदीं-मदीं बेश्टो धवळूं नाकां.

बाबलो : बेगीन येयात गो मात्शीं. म्हाका उबगण येता.

शांता : कित्याक? कुशीक बसपाक काय भेंडाक धरूंक जाय? हालना घोडो पूण उडी मारूंक सोदता बरो. बसात थंयच!

बाबलो : कोंबी कोंकारूंक आयकच ना.

शांता : जालें गो बायांनो? जालें जाल्यार येयात. कोंबो कोंकारपाक

लागलो. (बाबल्या म्हऱ्यांत वचून) म्हाका आशिर्वाद दियात पायां पडटां.

बाबलो : (हांसून) पूत्र वती भव.

शांता : हे पिरायेचेर पुत्र-वती कशी जातली? जावंय-वती भव म्हण. जावंय चलत आयल्यार पुरो असो आशिर्वाद दियात.

बाबलो : मेळटले! सगळें जाग्यार पडटलें. यो तूं बस अशी. (शांता बसूंक वता तेन्ना चवगांय पायां पडटां म्हण्टा. दोगांय आशिर्वाद दिता.) जावंय बेगीन हाडचे.

शांता : आनी बरी बातमी बेगीन दिवंची.

बाबलो : बेगीनात बेगीन. गूड न्युजाची वाट पळयतां हांव.

माधुरी : आमचे यत्न चालूच आसात न्हय गो बेबी.

बेबी : पप्पा मम्मी, हे फावट तुमची दोगांयची इत्सा पुराय जालीच म्हूण समजात. पप्पा, इस बार धूम धडाका.

श्याम : तुमी उलयत बसात. चल गो निशा या आमी भितर.

राम : आयज बरें दिसलें. तुमचो दोगांयलो आशिर्वाद मेळ्ळो तो. तुमी कितें करता थंय आतां? तुमीय चलात भितर.

श्याम : मम्मी पप्पाक एकांत.. दियात. आदले दीस ताजे करुंदी.

बाबलो : ना गो तशें कांयऐक ना.

राम : चला आतां. (चवगांय भितर वता)

शांता : आयज हांव चडूच नटलीं. खरें म्हणल्यार म्हजी म्हाकाच आयज लज दिसता.

बाबलो : खऱ्यांनीच खूब वर्सांनी आयज बरें दिसलें. लग्ना दीस नटलेली तशी तूं आयज नटली. तूं नटिल्ली पळोवन म्हाका लग्नाची याद

येता.

शांता : लग्नातलीच मरे? काय?

बाबलो : आनीक आनी कसली आसतली?

शांता : आमचे पयलेच भेटीची आनी म्होंवा चंद्राचीय आसूं येता.

बाबलो : यादी ह्यो यादीच आसता. रिकाम्या वेळार त्योच गरजेक पडटा.

शांता : त्यो यादी अश्यो कश्यो विसरूं येतात व्हय? सामके मोगाळ आसले ते दीस.

बाबलो : ते राती कडेन तुवेन मराठी गाण्याचेर नाच केल्लो. याद आसा तुका?

शांता : हय तर! नाचतां, नाचतां तुमची पॅन्ट फुटिल्ली तिवूय याद आसा..

बाबलो : हांसून, हांसून दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं.

शांता : त्या वेळार तुमी सामके मिथुन दा दिसताले, म्हणचे मिथून चक्रबरती.

बाबलो : यादी तुवेन ताज्यो केल्ल्योच आसात. चल मात्शीं नाचुया म्हातारपणांत....(नाच सोपतांच ल्हव ल्हव काळोख जाता तेन्ना पयलो प्रवेश सोंपता.)

# अंक दुसरो
## प्रवेश दुसरो

बेबी : दिदी तूं हांगा बसलां?

माधुरी : हय गो कितें जालें?

बेबी : मम्मी सोदता तुका भितर.

माधुरी : कित्याक?

बेबी : कित्याक? आयदनां कोण धुतलो?

माधुरी : तूं आसा तें!

बेबी : सगळ्या कामांक हांवूच मरतां. तूं हांगा बस आनी गेम खेळ. पोट भरतलें तुजें आनी म्हजें.

माधुरी : गेम खेळपाचे दीस आमचे उरुंक नात आतां कळ्ळें.

बेबी : मागीर !

माधुरी : हांव मगो वॉट्सअॅपार चॅटींग करतां.

बेबी : वॉट्सअॅपार चॅटींग! तें आनी कोणांक, रामाक गो?

माधुरी : रामाक ना गो बाये.

बेबी : मागीर.. कोणाक?

माधुरी : देराक गो! दुबयक आशिल्ल्या, रामाच्या धाकट्या भावाक.

बेबी : दिदी, दोन.. दोन गो?

माधुरी : ना गो बेबी फकाडां करतां..

बेबी : पूण तो खरेंच समजता आसतलो.

माधुरी : समजूं गो ताका. जाणां बेबी देराक आतांच आमचे मुठींत दवरुंक जाय. नाजाल्यार तो दुबयपण शिकयतलो आमकां.

बेबी : रामाक कळत जाल्यार तुकां कोंडांत लोळयतलो.

माधुरी : तें सोड तूं. तें हांव पळोवन घेतलें. दोनूच दीस उरल्यात नाचाचे सर्तीक.

बेबी : अजून कांयएक प्रॅक्टीस जालीना. कितें जातलें देव जाणां. दिदी आतां आमकां कोण शिकयतलो गो?

माधुरी : नाचूंक येना आंगण वांकडें. अशें ते जज्ज म्हणटले. बेबी तूं न्हय श्यामाक सांग डान्स शिकोवपाक.

बेबी : आनी तूं रामाक सांग डान्स शिकोवपाक. डान्स कॉम्पीटीशन म्हणल्यार फकांडां दिसता तुकां हय?

माधुरी : सहज सरळ मेळ्ळ्यात ते असले तसले समजुंनाका! व्हॅरी टॅलेन्टेड आसात ते कळ्ळें? म्हजो तर सामको DID Superstar.

बेबी : दिदी तशें जाल्यार तुज्या रामाक आपय पळोवया.. बेगीन.

माधुरी : तुजो जिजू तो. तुज्या जिजूक तूंच आपय.

बेबी : जिजाजी.. जिजाजी.. होने वाले जिजाजी... (राम अर्ध्या कपड्यांनी प्रवेश करता).

राम : बेबी, म्हजे मेवणे. मेवणे.. मेवणे.. मेवणे.. जिजूक उलो मारलो तुवेन हय.

बेबी : हय रे म्हज्या जिजू.

माधुरी : आरे राम्या, अशे अर्धवट कपडे घालून? हो कितें तुजो अवतार? शीशी.. शी.

राम : आगो बेबी मेवणेन उलो मारलो म्हूण, तश्याचो तसोंच धांवत आयलों. साली होती है आधी घरवाली. हय मुगो बेबी?

बेबी : हय तर! म्हज्या जिजुलें आनी हांव ना म्हण्टां?

माधुरी : हांऽ तुकां दिसलें आसतलें खंय तरी उजो पेटलो म्हूण?

राम : ना गो, बेबी मेवणेन उलोच तसो मारलो म्हणून आशिल्लो तसोच येवचो पडलो.

माधुरी : हांवेन उलो मारुंक लायिल्लो.

राम : हें बेबी. रामाची अपुरबायेची मेवणी.

बेबी : हो रामां. बेबीचो अपुरबायेचो भावोजी.

माधुरी : नाटकां करुंक आपोवंक ना तुका. कळ्ळें?

राम : मागीर कित्याक आपयल्यात तर?

बेबी : कितें आसा जाणां भावोजी?

राम : हांव कसो जाणां जातलों? तुमी सांगल्या उपरांत कळटलें म्हाका.

माधुरी : आरे राम्या परवां डान्स कॉम्पीटिशन आसा आनी आमकां त्या डान्स कॉम्पीटिशनांत वांटो घेवपाक जाय.

राम : मागीर घुस्पला खंय? डान्स करात आनी आवय बापायचें नांव वयर काडात.





बेबी : सामकें वयर काडपाचें? वयर म्हणल्यार कितलें वयर? (हात वयर काडून) इतलें? काय इतलें रे?

माधुरी : डान्स शिकयतलो कोण..? आजो तुजो?

राम : सध्या आजो दुबय आसा धाकट्या भावा फुड्यांत.

बेबी : डान्स कॉम्पीटिशनाक आनीक दोनूच दीस आसात आनी तुमकां मस्करी येवजता.

राम : मागीर हांव म्हण्टां अडलां खंय?

माधुरी : अडला हरी गाढंवाचे पांय धरी अशी गत जाल्ली आसा आमची.

राम : आमी गाढव व्हय..? आमकां तुमी गाढव म्हण्टा?

बेबी : तुमकां गाढव कोणें म्हणलां जिजू?

राम : आतां म्हणलां तें कितें?

माधुरी : आपल्या मनशाक गाढंव म्हणपांत जो आनंद आसा तो दुसऱ्या कित्यांतूच ना.

राम : म्हणून आमकां गाढंव म्हणप?

माधुरी : आरे समजून घे. परवां डांन्स कॉम्पीटिशन.

राम : पूण अशें गाढव म्हणप?

बेबी : दिदी, जिजू गेलो दिसता कामातलो.

माधुरी : बेबी, तूं श्यामाक उलो मार पळोवया.

बेबी : तो जिजू फुडलो. (हात लावन हालयता) जिजू.. हे.. जिजू...

राम : (लाडांनी) हांव उलयना तुमचेकडेन.

माधुरी : (लाडानीच) आले..ले..ले.. ले शाण्याक राग आयलो? इतको तोय बी म्हजो? ह्या माधुरीलो?

बेबी : (उलो मारता) शा..म्या! शाम्या शाम्या, श्या..म्या!

श्याम : (भितरल्यान) बेबी बेबी, बे..बी! (अर्ध्या कपड्यांनी प्रवेश करता) what happened darling?

बेबी : हें कितें रे कपडे ना तुका? सामको विटोवपाक लागलो हो.

श्याम : हाका कितें जालें? झगडीं जालीं?

राम : झगडूंक ना रे आमी.

माधुरी : अडला हरी गाढवाचे पांय धरी. तातुंतलो गाढव ताका नडलो.

बेबी : जिजू, आमचे प्रश्न सोडयात मरे आतां.

श्याम : हांव सोडून तुका जिजू जाय पडलो? रामा हे रामा, कसलीं तुजीं हीं कामां? तुवेन म्हजे फाटीक फाटल्यान सुरो तोपलो.

राम : केन्ना? हांव आनी तुजे फाटीक सुरो तोपतलों? आमी दोगूय इश्ट. हे इश्टागतीक लागपाची ना कोणाची दिश्ट.

श्याम : दिश्ट लागपाची ना जाल्यार हें चल्लां तें कितें?

राम : खंय कितें चल्लां? आमी कलाकर कलावंत.

श्याम : आमी कोण ते आमकांच खबर. आयज वॅलेन्टाईन डे. हॅपी वेलेन्टाईन डे everybody. (सगळीं ऐकामेकाक वीश करतात.)

माधुरी : सुके वॅलेन्टाईन डे मनयता? खावपाक पिवपाक हाडात मरे, ताळो ओलो करपाक नाका?

बेबी : सवका उलयात. पप्पा आसा भितर.

श्याम : भितर आसा? आसू बाबडो.

राम : कोण तो जेम्स बॉण्ड OO7.

माधुरी : जेम्स बॉण्ड न्हय तो. हिटलर.

राम : गेलो ना तर तो? मटको खेळपाचो वेळ जालो मगो तुज्या

पप्पाचो.

माधुरी : आयज भायर सरचो ना सो दिसता.

श्याम : कित्याक?

बेबी : थंडी जाल्या ताका.

राम : थंडी जाली म्हणून भायर सरना. वचत मुगो तो.

बेबी : जिजू, म्हजो पप्पा तो.

श्याम : बेगीन बरो जावचे खातीर सांगता गो तो.

राम : सारकेंउलयलो म्हजो इश्ट.

माधुरी : बेबी, आमी डान्साची प्रॅक्टीस घेतिल्ली बरी.

राम : मागीर वेळ फुकट घालयता कित्याक? चलात सुरु करात. तातुंतल्यान दोनूय कामां करुन मेकळीं जावया.

बेबी : कसलीं कामां?

श्याम : वॅलेन्टाईन डे सेलेब्रेट करुया डान्स करुन.

बेबी : जिजाजी, जिजाजी होने वाले जिजाजी.

माधुरी : ये बेबी! तूं पदमीनी कोल्हापुरी जाय नाका. परत परत तेंच तेंच वाजय नाका.

बेबी : हम दोनों दो प्रेमी उपकरतलें दिदी?

राम : डान्स कॉम्पीटिशनाक असल्या गाण्यांचेर डान्स करतलीं तुमी? गाणें म्हण्टा तें खुल्लम खुल्ला आसूंक जाय.

श्याम : खुल्लम खुल्ला प्यार करेंगे हम दोनों इस दुनियां से नहीं डरेंगे हम दोनों.. असलें जाय.

राम : Correct! (गाणें वाजता खेल सिनेमातलें खुल्लम खुल्ला प्यार करेंगे हम दोनो, इस दुनिया से नहीं डरेंगे हम दोनो.. गाणें

सोपच्या वेळार बाबलो येता.)

बाबलो : नहीं डरेंगे हय? ह्या बाबल्याक भियात! आतां नाचा आनी मागीर रडात. ह्या बाबल्याक फटोवपाक अजून तुमी दोगूय भुरगे आसात. हे केंस पिकल्यात ते वतान पिकल्या अशें दिसता तुमकां. खूब पावसाळे पळयल्यात हांवेन.

शांता : (शांता येता) आसू आतां. फटींगपणां केलीं ताणीं हें हांव मानतां. पूण हीं फटींगपणां केलीं खऱ्या मोगा खातीर. थोडींशीं बंडलांय मारलीं म्हजे खातीर.

बेबी : पप्पा सॉरी.

माधुरी : पप्पा मम्मीनूच हें नाटक घडयलें. दोगांय जावयांक भाडेकार म्हूण घरांत दवरले.

शांता : हय. खरी सुत्रदार हांवूच. म्हाका क्षमा करात. हांव तुमची गुन्यांवकार.

बाबलो : शांते, म्हजे कडेन क्षमा मागपाची गरज ना. तुमी पांचुयजाणां कितल्या उदकांत उबीं आसलीं हें हांव तेन्नाच जाणां आशिल्लों.

शांता : आपालिपा आतां खेळून जालें. आतां भुरग्यांक संवसार करूं दी.

बाबलो : संवसार म्हणल्यार खेळ न्हय शांते. संवसार म्हणल्यार चार आणे, बारा आणे न्हय! तुमकां आतांच्या भुरग्यांक संवसार म्हणल्यार कांयऐक खबर ना. हो म्हण्टा आपणें B.A. केल्या. तो म्हण्टा हांवेन B.com केलां. खऱ्या अर्थान आमकां दोगांयकूय अर्थच खबरना B.A., B.com चो. हो संवसार म्हणचे सोळा आण्यांचो आसता. जसो की एक रुपया पूर्ण. तुमकां भुरग्यांक तांतलें बारा आण्यांचें लेगीत खबर आसना.

ताका एक कारण आसा. संवसार करप म्हणल्यार एकमेकांक समजून घेवप. एकमेकांची सदांच तोखणाय करप. उकतेपणान आप आपल्या काळजा मनातलें एकमेकांक सांगप. आसा तातूंत सूख समाधान मानून घेवप. येतल्या संकटांक धिरान तोंड दिवप आनी सदांच देवभिरांतेन चलप. आमचो दोगांयचो आशिर्वाद तुमकां सदांच आसतलो.

शांता : आतां आठ आण्यांचो संवसार करी नाका. पप्पान सांगलां तशेंच वागात. सोळा आण्यांचो संवसार करुन दाखयात.

राम : आमी अहंकाराक थारो दिवचीं नात.

माधुरी : नमळायेचो सन्मान करतलीं.

श्याम : सोशीकपणांचो जयजयकार जातलो.

बेबी : मोग मायपासाची पुजा जातली.

राम : तुमच्या उतरां पावलांचेर चलून तुमचो गुरुमंत्र आमी जपत रावतलीं. (चवगांय तांकां प्रदक्षणां घालीत आसतना एक गाणें वाजता. गुणगुणत रावतना पड्डो सकयल देंवता. नाटक सोंपता.)

**सोंपता**

# नामदेव गणपत सुर्लीकार
## (वळख)

### साहित्यीक वावर

**लेख:**

- मरणाचें कुवाडें कोण सोडोवंक शकतलो?
- तांचो जागो वृध्दाश्रम न्हय!
- दर्या
- आवय-बापूय वायट नासतात
- मोटार
- चलयांनो सादूर?
- आशेक वखदां ना
- रक्ताचें नातें
- उदरगतीक लाय व्हरुन चुट्टी
- आयज म्हाका फाल्यां तुका
- दोन इश्टीनी

**कविता:**

- पासियेंस
- आशिर्वाद
- हॅलो दोतोर
- तिगोवं येता
- शिगमो
- बीं तशें भात
- मनांतलो भंय
- गुरू मंत्र
- देश भक्त
- पिकनीक
- मरण
- इलेसांव




प्रकाशीत जाल्ली नाटकां: • सगुणाची बायल
• जांवय आयले चलत

आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर आनी दुरदर्शनाचेर बी रिकॉर्डींग केलां.

शाळेंत आसतना ताका नाटकुलीं नाटकांनीं अभिनय करपाक खूब आवडटालें. पुस्तकांतले धडे वाचताना हो नामदेवेबाब किर्तनां सांगता सो दिसतालो. धडे वाचतना आमी सगळे इश्ट वांगडी हांसून हांसून मरताले. कला अकादमीच्या कोंकणी आनी मराठी नाटकांचे सर्तींत वांटेकार जाल्यात. आसूं ताचीं समाजकार्यां अशींच चालू आसूं दी. अशें हांव देवा लागीं मागतां.

**– गोविंद वि. पालकार**

नामदेव गणपत सुर्लीकार हाणें पिरायेच्या धा बारा वर्सांचो आसतना इतिहासीक नाटकांनी कामां करपाक सुरवात केल्ली. तीं नाटकां ताच्या घरा मुखार जातालीं. मागीर हो नामदेवबाब स्कुलांत सातवेक आसतना ताणें पयलें नाटकुलें बरयल्लें 'मराठी बापूस'. स्नेहसंमेलनां स्कुलांत जाताली त्या वेळार तो स्नेहसंमेलनांत वांटेकार जातालो. तसोच खेळांतय हुशार. क्रिकेट, फुटबॉल आनी व्हॉलिबॉल खेळटालो. गोंयच्या पंगडांत अंडर १९ गोंयां भायर खेळ्ळा. अखिल भारतीय सर्तींत तो गोंय पंगडाक खेळ्ळा. नामनेचो एक बरो खेळगडो म्हूण लोक ताका वळखतात. खेळ सुरू आसतना लेगीत ताणें आपलें बरोवप चालूच दवरलें. तातूंत लोक ताका वळखतात ते ताणें दोन अंकी मराठी नाटकां तशेंच कोंकणी नाटकां बरयल्यांत आनी दिग्दर्शन केलां म्हूण. बिम्ब मासिकांत तो कविता बरयता. भांगरभूंय ह्या कोंकणी दिसाळ्यांत ताच्यो कविता, लेख आयज आमकां वाचपाक मेळटात. नामदेव सुर्लीकाराचीं चड फामाद जाल्लीं दोन कोंकणी नाटकां म्हळ्यार 'स गुणांचीं बायलां' आनी दुसरें. तकलेंत याद उरलां तें एक कोंकणी नाटकुलें, 'शेजाऱ्याच्यो पाड्यो बुद्दी'. अशीं आनीकूय कांय नाटकां, नाटकुलीं उजवाडाक येवचीं आसात. उरिल्लीं ताचीं कामा देवान पुराय करचीं. ताचो हो वावर फुडें व्हरपाक ताका बरें आरोग्य दिवचें अशें हांव देवा लागीं मागतां.

– दत्तराम बालेकार



नामदेव गणपत सुर्लीकार

बिम्ब
प्रकाशन

ISBN 978-93-85654-16-9




Price: ₹ 120/-